# निवलकाणयो

(कथासंग्रह)




वसंत भगवंत सावंत

सुकृता प्रकाशन

NIVALKAANNIO

A Collection of Short Stories in Konkani by Vasant Bhagwant Sawant

© वैशाखी वसंत

**पयली उजवाडावणी :**
मार्च, १९९४

**उजवाडावपी :**
वैशाखी वसंत,
भगवंत मठी, विश्वंभरवाडी,
सावर्डे - गोंय ४०३ ७०६

**अक्षर-जुळणी आनी छापप :**
सुरेश काकोडकार
ओमेगा एन्टरप्राएझेस,
११५८, विद्यानगर,
मडगांव-गोंय ४०३ ६०१

**मुखचित्र :**
इंदिरा (देवताप्रसाद) आंगले

**मोल :** रु. ३०/-

2282
Sh. Stories → Deve
VAS

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणे खाला छापलां.

म्हजी शिक्षिका

भारती डिसौझा

हांकां......

टिचर......

णववेच्या इंग्लीश पाठ्यपुस्तकांतलो काबुलीवाला
तुमी जे आर्ततेन शिकयलो,
तातुंतल्यान म्हज्यांत
कथाकाराचीं बिजां रुजवणां पडिल्लीं.

......वसंत

ह्या पुस्तकाच्या हातबरपाक कला अकादमी, पणजी चो १९८८-८९ वर्साचो साहित्य पुरस्कार फावो जाला.

# सोबीत-सुंदर निवल-काणयो

प्रिय वसंत,

तुज्यो कथा वाचूंक घेतल्यो आनी संग्रहाचें नांव दिसलें... निवलकाणयो.

निवलकाणी... कॅक्टस...! तूं जाणां... निवलकाणयेची सोबीतकाय सट्ट करुन नदरेंत भरना. हात लागल्यार कुच्च करुन कांटेय तोपतात. ताची सोबीतकाय खंय लिपल्या जाणा? प्रतिकूल परिस्थितींत लेगीत तग मारपाची तांक तांच्या आंगांत आसता; उदकाबगर जिवी रावपाची ताच्यांत शक्त आसता. आनी ही ताची तांक, ही शक्त, हीच निवलकाणयेची सोबीतकाय. पूण हें कितल्या जाणांच्या लक्षांत येता?

चडशा जाणांचें म्हणणें- कॅक्टसांच्यो तोखणायो करचे परस लोकांनी पोरसांत फुलझाडां रोवचीं. तीं चड सोबीत आसतात. पूण निवलकाणयांक फुलिल्लीं तरातराचीं रंगीबेरंगी फुलां जांणी पळयल्यांत न्हय, तांचे नदरेंत ते रंग इतले भरसून गेल्ले आसतात, की सादी फुलूंक नाशिल्ली निवलकाणी लेगीत तांकां सोबीतच दिसता.

तुज्या संग्रहाचें नांव वाचलें आनी माथ्यार सुपुल्लीं, सोबीत फुलां माळून उबी आशिल्ली कांटेरी निवलकाणी दोळयांमुखार उबी रावली. एक वेगळी अपेक्षा काळजांत घेवन तुजी पयली काणी वाचूंक घेतली- ‘एकोलयो’

कथेंतलो म्हाड्डो दोळयांमुखार रंगत गेलो.

-खुनशालो पूत म्हणून एकमुळोच... दोंगुल्लेर घोडूक कसो वाडपी...

-आडांगीपणाक वितरागून आज्ञेन जीव सोडलो तरी आपलीं कर्तुपां चालूच दवरपी...

-राखण्यांवांगडा रानांत गेल्लेकडेन गवळणीच्या पोराक झोपांआड ओडून व्हरपी...

-दोगां मानायांचें जेवण जेवपी- तिगां मानायांचें काम करपी...

-बायलांक पळयल्यार चळपी- उरफाट्या काळजाचो म्हाड्डो...

बद्द - रानांत अच्छेव मांडपी 'एकोलया' रानदुकरावरी - जो 'भुरगेपणांत भौसळींतल्यान शेणिल्लो, खावन खावन मातिल्लो आनी बायलेचे आशेन शिरेर मदेल्लो.'

दोळयांसामखार घट्ट, निबर, कांटयाळी निवलकाणी उबी जायत गेली. वाचत वाचत शेवटाकडेन पावलें.

'आरे पेटोय मुरे ऽऽ पेटोय मुरे फार ऽऽ'

काचाबूल जावन आंद्रू किळचेलो, तसो नकळटना माड्ड्यान चाप ओडलो- घुडूऽऽम आवाज रानभर गाजलो.

एकोलयाचें सोण धरून बावळयामेरेन सामकी चेन्नड जाली. आशिनाशिल्लो फोर्स काडून तो तेच स्थितींत बोब मारीत हेवटेन तेवटेन धांवत रावलो; आनी निमाणो शेंवट्रून आड्यालागींच्या व्हाळांत कोसळळो.

म्हाड्ड्याच्या दोळयांतल्यान दुकां भळभळीं.

शेवट वाचलो आनी निवलकाणयेर फुलिल्लें सोबीत फूल म्हाका दिश्टी पडलें.

'-आश्लेशा नक्षत्रांतलो पावस रक रक रकतालो. फाटल्या सात दिसांत ताणें मातूय तोंड काडूंक नासलें. श्रावणांत शिरशिरपा बदला पावस दडकांनी येतालो. सगळो बोळकर्णेचो जुंवो उदकाळ जाल्लो. गांवची शेतोड, खाजन, मानस सगळें सगळें उदकांत बुडून गेल्लें-'

हुंवाराच्या चपक्यांत बुडिल्लो बोळकर्णेचो जुंवो दोळयांमुखार रंगूंक लागलो.

त्या हुंवारांतय चेड्याचीं वखदां घेवन न्हंयंत उडी मारपी हरी भगत- आनी ताज्या काळजांतली चेड्यावेली माया. वखदां उदकाभरवणा जातकीर कश्टी जाल्लो हरी भगत आनी ताज्या मनांतली खंत.

पोरसांतले घुमटेमुखार उबो रावन चेड्याचे भलायकेखातीर देवाक, देंवचाराक एकाच वांगडा होरावपी हरी भगत आनी ताज्या काळजांतलो आकांत.

हें सगळें वाचतना दोळयांमुखार पुताचेर उपाट मोग करपी एक बापूय उबो जावंक लागलो. आनी होच बापूय काळजाचेर फातर दवरून - फाल्यां नागपंचम; माती दुखोवंक जायना - आनी फांतोडेर चेडो मेलो जाल्यार? चेडो सबंद दीस रात उरतलो... आनी... आनी... अशें चिंतून फाल्यां मरतल्या चेड्याक पुरपाक फोंड खणपाक लागता तेन्ना काळजांत कितें जाता तें तुजी 'नागपंचम' वाचतल्याकच समजतलें.

तूं जाणा? खंयचीय काणी वाचप्यांच्या काळजामेरेन पावतली जाल्यार मूळ तिजी थीम घट आसची पडटा. मनाक पटपासारकी आसची पडटा. मूळ थीमच

जर ठिसूळ आसत जाल्यार फकत साहित्यीक भास कथेक सावरूंक शकना.

पात्राच्या काळजांतली खोस, खंत... त्या त्या पात्रांचे नदरेप्रमाण ल्हान व्हड आसूं येता; पूण त्या पात्राचे नदरेन ती खोस वा खंत व्हड वा ल्हान आसूं येता हें वाचप्याक मुळांत पटचें पट्टा. तुज्या कथांतल्या पात्रांची भावना वाचप्यांक पट्टा; ती तांचेमेरेन पावता हें तुज्या कथांचें खाशेलपण.

'कलसांव' कथा वाचतना वाचपी बद्द जात्रेंत भोंवंक लागता. भोंवतां भोंवतां केशवमामाल्या च्याये दुकानांत पावता; शिजोवन कोडो केल्लो, दळ नाशिल्लो च्या पिवन शिंया कुडकुडो उणो करता. कलसांवा आशेन रेड्याभशेन काम करपी दिगूवांगडा समरस जाता आनी मामान फटयिल्लो दिगू च्यायेच्या दुकानाचे सुवातीर नदर घाली नासतना कुल्यार पिनिल्लें कलसांव सांबाळीत आवय फाटल्यान चलत रावता, तेन्ना ताका कितें दिसलां जातलें हे सांगनासतनाच वाचप्याक समजता.

तुजे दर एके कथेंत वेगवेगळी वातावरण निर्मणी पळोवंक मेळटा. आनी थोड्याच उतरांनी बरी वातावरण निर्मिती करचेली घटीय तुका जमल्या, देखूनच 'डॉल्फी' कथा वाचतना वाचपी बद्द टुरीस्ट कॅन्टिनांत पावता; थंयच्या टुरिस्टांवांगडा वावुरता.

'खामसुत्री' कथेंतलो जानू मुट्ट्याचो रोस काडटा तेन्नाय आपल्याच मुखार तें घडटा कशें दिसता. देखीक-

-जानून खोंटल्यांतले मुट्टे घसाघसा करून कोळमेंत ओतले. पिकून अळंग जाल्ल्या त्या मुट्ट्यांतलो किट्ट काळो रोस जिवाण्या चालीन कोळमेचे नळयेंतल्यान फोणकुलांत दवरिल्ल्या लातांत निथळलो. कोळमेचे धडेर बसून ताणें सगळे मुट्टे वळळे, बियो काडून खोंटल्यांत दवल्ल्यो आनी सदांच मुट्टे धोडावन काळो जाल्लो तोणको घेवन तो मुट्टे धोडावपाक लागलो...

कथेंतलीं पात्रां जेन्ना वाचप्यांक वांगडा घेवन फुडें फुडें वतात, तेन्नाच ती कथा जैतिवंत थारता. बरोवपी अलिप्त रावन साहित्य निर्मूंक शकता; पूण वाचप्याक तातूंत involve करचेली तातूंत तांक आसची पडटा. तुज्या कथांनी ती आसा, ही कोंकणीच्या फुडाराचे नदरेन खूब खोशेची गजाल.

'बंड' हे कथेंतली भुरग्याखातीर तळमळपी गमती, आपल्या कुसव्यांत वाडटा तो आपली विटंबना केल्ल्या राकेसाचो विटाळ आसत हे लक्षांत येतकीर ज्या कणखरपणान 'गाब घळघळावपाचो' निर्णय घेता, तीं कणखरपणा पळयतकीर परत एक फावट म्हाका निवलकाणयेच्या आंगांत लिपिल्ली शक्त जाणवली.

'आरे म्हाज्या पुता' हे कथेंतली आवय, 'दंतकथा' हे कथेंतलो दोतोर हांच्या काळजांतली खंत 'पांयतणां' कथेंतले सिताबायचो हुसको; 'भिरांकूळ' कथेंतली

भिरांत वाचप्यांमेरेन पावता हें त्या कथांचें यश.

'गुरुदक्षणा' हे कथेंत बी. एड. कॉलेजींत शिकपी टिचरांची विचारसरणी, तांचें वागप, बरे तरेन नदरेमुखार उबें जाता. खंयच्या तरी एका घाळ खिणाक प्रिन्सिपॉलाचेर थापट फुलोवपी आनी उपरांत मनांतल्यान खंती जावनय संभ्रमीत अवस्थेंत सगल्यांवांगडा सेलेब्रेशनांत वांटो घेवपी रमेश मनाक पट्टा.

आनी 'मर्णतेळणी' कथेंतलो बापायचेर मोग आसून लेगीत ताज्या मरणाची वाट पळोवपी ताजो पूत मनाक चुरको लायता.

जाणा वसंत, लेखक कथेंत कांय गजाली सांगता, कांय गजाली सांगना; पूण सांगनासतना लेगीत त्यो गजाली वाचप्यामेरेन पावोवपाची कला ताज्या आंगांत आसची पडटा. आनी ही कला तुज्या आंगांत आसा, देखूनच तुज्या कथांतल्या पात्रांचीं सुखां, दुःखां, खंत, खोस वाचप्यांमेरेन पावता. निबर काळजाच्या मनशांभितल्ली मोवसाण आनी म्होंवाळ मनशांमदली निबरसाण तुवें अचूक हेरल्या, देखूनच तूं ती वास्तवपणान कथेंत रंगोवंक शकला.

निवलकाणयेक उदकाची गरज ना. उदकाबगरय ती तग मारता. तशीच तुज्या कथांकय तोखणायेच्या उदकाची गरज ना. तोखणायेबगरय तिगून उरचेली तांक तांच्या आंगात नक्कीच आसा.

हाचेफुडेंय अशेंच तिगून उरपी साहित्य तुजे लिखणींतल्यान निर्मूचें, हीच इत्सा.

बरें मागून,

**मीना काकोडकार**

मडगांव-गोंय

ता. २ मार्च, १९९४

**


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No : 002282

# आदरपूर्वक...

निवलकाणयो हो म्हजो पयलो वयलो कथा संग्रह तुमच्या हातांत दितना म्हज्या मनांत संमिश्र भावना उदेल्यात.

*

सुमार बारा वर्सां आदीं हांवें कथा लेखनाक सुरवात केली आनी आयज उजवाडा येवपी म्हज्या पयल्याच कथासंग्रहांत फकत बाराच कथा आस्पावल्यात हें पळोवन कोणाकय अजाप दिसूं येता.

*

तशें पळोवंक गेल्यार भोवतेक लेखकांभाशेन हांवेंय म्हज्या लेखनाची सुरवात कवितेंतल्यान केल्ली. छंदकाव्यां, बालगितां आनी वात्रटिका हांव मन घेवन रचतालों; पूण मनाचेर खर परिणाम करून गेल्ले अणभव विस्तारान येवंक जाय म्हणपाचें म्हाका जाणवूंक लागलें, तेन्ना हांवें कथा-प्रकार वेंगयलो. जायत्या विषयांवयल्यो जायत्यो कथा बरयल्यो; पूण जेन्ना त्यो संग्रहाच्या रुपान मांडपाचो विचार आयलो, तेन्ना मात संग्रहांत आस्पावपी सगळयो कथा एकाच सुत्रांत गुथूंक येतात अश्यो आसच्यो, अशी नदर दवरून वेंचल्यो आनी ह्यो बारा निवलकाणयो तुमच्या हातांत पावयतां.

*

निवलकाणयांक पानां आसतात, सुपुल्लीं सोबीत फुलांय आसतात; पूण लक्ष ओढून घेतात ते तांचे कांटेच. ह्या संग्रहांत आस्पावल्ल्या काणयांची प्रकृती पळोवन संग्रहाक निवलकाणयो नांव दिवप म्हाका समर्पक दिसलें.

*

हो संग्रह 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणेतल्यान आयला, ते खातीर 'गोवा कोंकणी अकादेमी'च्या उपकारांत हांव सदांच उरतलों. संग्रहाक प्रस्तावना बरोवपाचें एका उतरान मानून घेतिल्ले खातीर सौ. मीनाबाय काकोडकार हांचो हांव चड उपकारी. "म्हजेर पावलें" ह्या धिराच्या उतरांनी हें पुस्तक छापणावळीची सगळी जापसालदारकी स्विकारुन तुमच्या म्हन्यांत पावोवपी ओमेगा एन्टरप्राएझेस, मडगांवचे श्री. सुरेशबाब काकोडकार हांकां चड देव बरें करूं.

तुमच्या म्हन्यांत पाव मेरेन निवलकाणयांक जांचो जांचो आधार लाबलो, तांकां आदरपूर्वक वंदन.

**वसंत भगवंत सावंत**

सांवर्डे - गोंय
ता. २ मार्च, १९९४

**

# मांडावळ



**

१

# एकोलयो

भर दनपरां एकोलयो रानदुकरान बाबुलीक फाळ्ळो.

सकाळचें दूद काडून चरवाक रानांत आमुडिल्ल्यो म्हशी दनपारचें दूद काडपाखातीर हाडपाक तो रुमडेंच्या रानांत वतालो.

इशेतील्या भाटा आयल्या दोंगरा धाडींतली वाट देंवन तो सदांच म्हशी उदकांत गोठेतात त्या व्हाळार वचपाक घुंवला मात, ताच्या मुखार धांवतलो तागेलो सुण्यापेटो सोशेत सोशेत वाटेकुशीनच्या झुडपाबुट्टांत भुंकीत झुड्लो. एकोलयो रानदुकोर थंय सुस्त घोटेल्लो. अकस्मात सुणो आंगार येतनाच तो काचाबूल जावन झोपाभायर आड धांवत सुटलो. आपलेवटेन धांवत येतलो तो आठ-णव वज्यांचो रानदुकोर पळयतनाच बाबुलीचो आवरो उडलो. वाटेवयल्यान कुशीक सरचे आदींच एकोलयान आपलो सुळो बाबुलीच्या जांगडांत तोपून ताका धा-बारा वांवां भरभरीत ओडीत व्हेलो. जांगड फाळून सुळो मासा गुळयासयत भायर सरलो तेन्ना तसोच आड धांवत एकोलयो सकयल्या गल्लांत नाच्च जालो.

"आवय ऽ गे ऽऽ" जिवा आकांतान बाबुलीन मारिल्ली किळांच, इशेतील्या भाटांत वावर करतल्या कामेऱ्यांनी आयकली. बारा वरांचेर काम थामोवन जेवल्या उपरान्त व्हाळार येवन तीं जेवणा डबे धुतालीं. किळांच आयकून तांणी जेवन माडांमुळांत लवणल्ल्या मानायांक बेगिबेगीन उठयले. सगळीं जाणां धांवन येवन पळयत जाल्यार बाबुली रगताच्या कोणांत पडिल्लो; जांगडांतलें मास भायर लांबतालें; हुमेन तो सामको थपथपिल्लो; तोंड सामकें काळें पडिल्लें; उठून उबो रावपाचो यल करतना तो दुखीन सामको परवंतालो. एका मानायान जेवणाडब्यांत भरून हाडिल्लें उदक बाबुलीच्या दोळयांर पचपचीत मारलें आनी थोडें पिवपाकय दिलें. बेगोबेग ताका दोतोरागेर व्हरप गरजेचें म्हणपाचें येवजून एका मानायान आपल्या कमराच्या वाल्यान ताचें जांगड अळंग बांदलें; आनी दोगा जाणांनी मेळून ताका खांदार हात घेवन भडक-भडकत रानाभायर गांवचे शिमेवयले पांयवाटेर हाडून बसयलो. बाबुलीच्या शेजाराचो एक मानाय धांवत गावांत गेलो आनी

खबर गांवार घाली. वाड्यावयले लोक धांवत राना शिमेर पावले. एकल्याले सायकलीच्या फाटल्या ब्रेकेटार बसोवन तांणी ताका चलतच गांवच्या सरकारी हॉस्पिटलांत व्हेलो. दोतोरान फाडांत भरिल्ली मांती पुसून काडली, कसलें तरी चुरचुरपी वखद लायलें, फाळिल्ल्या जांगडाक सोळा टांके मारून बँडेज रेवडायली. इतकें करी म्हणसर बाबुलीक तीन खेपो घुंवळ आयिल्लेभाशेन जालें.

**

सकाळच्यान न्हंयचेर लांबार घेवन बसू-बसून बेजारिल्लो म्हाड्डो निकतोच जुजेचे गादयेर बशिल्लो. सदचे भाशेन ताणें पिवपाक बसचे पयलींच सकाळीं उरिल्ली आंबील येतेश्ट भुरकायल्ली. फेणयेचो दुसरो ग्लास भरतां भरतां जुजेन ताका म्हळें, "आरे म्हाड्डो... आमगे बाबुलीक एकोलया रानदुकरान फाळळा म्हूण इस्पीशें होयला.. जाणांव मुरे तूं?" म्हाड्ड्याक चर्रऽ जालें. ताणे सोमतोच सगळो ग्लास घटाघटा घोटलो, आमले कुडको चरचरीत चाबलो आनी तो उठलो. आपले सायकलीचीं पेडेलां फटाफट मारीत ताणें हॉस्पिटलाची वाट धरली. हॉस्पिटलांत तो बाबुलीच्या खाटीम्हन्यांत पावलो तेन्नाच बाबुलीचे बायलेन ताका भरोवन तोंड पुशिल्लें. म्हाड्ड्याक पळोवन ती खाटीच्या दुसऱ्या पोंतार वचून उबी रावली. एकोलया रानदुकरान आपणाक कसो फाळळो ती गजाल बाबुली सांगतालो तेन्ना माड्ड्याच्या दोळयांमुखार एकोलयो किरोवपाक लागिल्लो. पयर तिनसना म्हाड्टीची व्हडली म्हेड घेवन येतना तो ताका व्हाळार उदक पिवपाक आयिल्लेकडेन दिशिल्लो. आंगान कणकणीत वाडिल्लो, आठ-णव वज्यांचो एकोलयो, ताचे दोनूय सुळे वेतावयर भायर दिसताले, आंगाक रेबो दाटिल्ल्यान ताच्या आंगाचो दर्प वाऱ्यार सगळयाक जाणवतालो. म्हाड्ड्याची सुलूस लागतनाच उदक पिवपाचें अर्धारुच सोडून मानेवयले सळयो कशे केंस फुलयत तो खंयचे खंय नाच्च जाल्लो. म्हाड्ड्यान मनांत थारायलें, आयज एकोलया रानदुकराचें कास करपाचेंच; बाबुलीक फाळटल्या रानदुकराचें मास फाल्यां गावांतले दर एके रान्नीर शिजूंकच जाय. हॉस्पिटलांतल्यान परततना तो सोमतोच बाजारांत गेलो आनी वळखीच्या दुकानावयल्यान भरकुट्या आरमाची गंधका-दारु, शिश्या फोडां आनी इस्लेती घेवन परतलो. आंगणांत बसून ताणें दुकराफाराच्या मापान दारु आर्मांत भरली, काथ्याची गुड्डी घालून आर्मा-दांडयेन धोडायली, वयल्यान शिश्या फोडां घालून परत काथ्यागुड्डी कोंबून मात्शी चिड्डिली. टुबांत दारू येतगीर ताणे थंय इस्लेत लायली आनी आर्म कुशीक काडून दवरलें. तितले म्हणसर म्हाड्डो आयज कासाक वतलो म्हणपाची खबर गांवभर पातळळी.

म्हाड्डो कास्ताचो कासादोर, सारको बापायचे बडीर गेल्लो! बापायन मारले नात

येदे दुकर, मेरू म्हाड्डयान मारिल्ले. म्हाड्डयान फार पेटयलो आनी तो चुकलो अशें केन्नाच घडलें ना. म्हाड्डो कासाक भायर सरलो म्हणटकीर मटनाची मिरसांग रगड्यार घालपाक गांवांतली खंयचीच बायलमनीस फाटीं राव नासली. म्हाड्डयान मारलेलें सावज चुकनासतना एकान एका घरांत पावतालें, पूण म्हाड्डयाक मात गांवांतली दोन घरां सोडल्यार खंयच्याच घरांत भितर सरपाची मेकळीक नासली. भुरगेपणासावन तो पाटी कसो आडदांड वाडिल्लो. ताच्या भुरगेपणांत ताचे आवयक बापायन झगड्यांभरशीं जितीच मारलेली आनी सोल्दादां भयान पळून गेल्लो तो, हो वेळ मेरेन कोणाकूच दिसूंक नासलो. ल्हानपणासावन म्हाड्डो खुनश्यालो पूत म्हणूनच वाडलो. जाणटेले आज्जेन ताका आपल्याक तांकता तसो ल्हानाचो व्हड केल्लो, तरी तो वाडलेलो एकमुळोच. एकदां उबारलेलें थापट तो सकयल दवरपाक नकळो आसलो. ताच्या आडांगीपणाक वितरागून आज्जेन जीव सोडलो; पूण हाणें आपलीं कर्तुपां सोडलीं नात. राखण्यावांगडा रानांत गेल्लेकडेन ताणें एकदां गवळणीच्या पोराक झोपांआड ओडून व्हरून अशी बोब घाली की त्या दिसासावन चेडवांक रानांत धाडपाचेंच आवय-बापायन बंद केल्लें.

दोंगुल्लेर घोडूक वाडचो तसो तो वाडिल्लो. ताच्या त्या आंगलोटाक पळोवन कोणूच बापूय ताका चेडूं दिवपाक फुडें सरूंक नासलोः त्या खातीर तो आजूनय आंकवार उरिल्लो. बायलांक पळयतनाच तो चाळवता म्हूण गांवांत फाम जाल्ली आनी ताका लागून खंयचीच बायल मनीस ताचे झळकीक राव नासली. चौतीस पस्तीस वर्सांचो तो आल्त मानाय आर्म खांदार मारून भोंवतालो तेन्ना सामको भिरांकूळ दिसतालो. दोगा मानायांचें जेवण तो एकलो जेवतालो आनी एकलोच तिगा मानसयांचें काम करतालो. रानांत वचून चोरयां नाटां देंवोवप, दीस दीस न्हंयचेर वचून गरोवपाक बसप, काळख्या दिसांनी कासाक भोंवप आनी लकून पडसर सोरो पिवप ह्यो ताचे आवडीच्यो गजाली आसल्यो. ताच्या उरफाट्या सभावाक लागून तो कोणाकूच नाका आसलो, तरी कासाक लागून तो सगळयांकच जायसो दिसतालो. जुजे गादयेकाराल्या आंद्रूक जावं बाबुलीक घेवन तो कासाक भायर सरतालो, तेन्ना मनीसघाणो दिसपी म्हाड्डो सगळयांक आपल्या लागींचो कसो दिसूंक लागतालो.

मोटवें काल्सांव आनी खाकी बुशकोट घालून म्हाड्डयान भरकुटें आर्म खांदाक लायलें आनी दुसऱ्या खांदाक दारवेच्यो गुळयो आशिल्लो बोटवो हुमकळायलो. जुजे गादयेकाराल्या आंद्रूक सांगातान घेवन सुर्या बुडपाच्या अदमासाक ताणें रानाची वाट धल्ली. इशेतील्या भाटाच्या आड्याभायले वटेन एक मेल्लो बैल पुरला आनी तो फोण एकलयो सदांच उस्तीता म्हणपाची खबर भाटांत वावर करतल्या मानायान ताका वाड्यारच दिल्ली. त्या बडकाच्या फोणार सावन एके

मारनीच्या अंतरावयल्यान फार पेटोवपाचें ताणे पयलींच थारायल्लें. फोणाचे आयलेवटेन एके काजीमुळांतली सुवात निवळ करतना दोगांकूय फोणापेले वटेनच्यान मोठो घसघस आयकूंक आयलो. दोगूय फातर कशे उबे रावन पळोवंक लागले. एकोलयो रानदुकोर भौसळींतले एके रानदुकरीफाटल्यान लागिल्लो. ल्हान-व्हड पेटे बोब मारीत हेवटेन तेवटेन धांवताले, भौसळींतलोच एक जून रानदुकोर एकोलयाच्या भंयान मेळत तेवटेन घालून घेतालो. शिरेर मदेल्ल्या एकोलयाक चुकोवपाक ती रानदुकर जिवा आकांतान धांवताली. एकोलयाचे तावडींत गावपा-गावपान ते दुकरीन मोटे शिटूकसाणेन एके कणकीच्या झोपांत घालून घेतलें. आपल्या फाटल्या धडावटेन ती कणकी कांट्यांनी भितर भितर ओडत रावली. आपल्या आंगलोटाक लागून कणकींत रिगप शक्य नाशिल्ल्यान एकोलयो खुबळ्ळो, मोट्यामोट्यान आड्डून, पांयांनी माती उस्तीत ताणें मोटो सांवार केलो. फाटल्या धडान कणकींत रिगतले दुकरीचो राग ताणें पैसुल्ल्यान नियाळटल्या दुकराचेर काडलो. आपल्या सुळयांनी ताचे फाटीर घुरयो घालीत ताका रक्तबंबाळ करीत तो ताचे फाटीक लागलो. एकलयो नदरेभायर जातकीर कणकींत लिपलेली दुकर भायर सरली आनी तिणें दुसरे वटेनच्यान धांव माल्ली. हो सगळो देखाव म्हाड्डो आनी आंद्रू चकासूर जावन पळयत उल्ले.

म्हाड्ड्यान बोटव्यांत हात घालून सोऱ्याचो पाव काडलो, पूण लागसारा आशिल्ल्या एकोलयाच्या नाकांत वाऱ्यार वास ओडत म्हूण ताणें गुड्डी काडिनासतनाच पाव परत बोटव्यांत दवरलो. एकोलयाचो अच्छेव पळोवन म्हाड्डो सामकोच घुसमटिल्ले भाशेन जाल्लो; ताचे तकलेंत मोड घुंवंक लागिल्लें.

"म्हाड्डो.. एकोलयो कास्ता आहाऽ न्हू रे? सारको आठ वज्यांचो पूण आसतेलो." आंद्रूचीं उतरां बाबुलीच्या कानांत रिगतालीं; पूण चिंतनाच्या रानांत शेंणिल्ल्या म्हाड्ड्याक मात उलोवचेंशें दिसलें ना.

"जाणांव म्हाड्डोऽ हो एकोलयो सारको भुरगेपणांत भौसळींतल्यान शेणलेलो आसतेलो; चोय, मेल्लो खावन खावन मातला कोहो तो."

"काकूट बाबड्याची, न्हू रे म्हाड्डोऽ, मेल्ल्यान बायलेक चोवंकूच नासलेलें, बायलेचे आशेन शिरेर मदेला मेल्लो," बडबडत आशिल्ल्या आंद्रूक म्हाड्ड्यान हात लावन ओगी रावपाक शिटकायलो. फोणावटेनच्यान कोणा सावजाचीं पावलां वाजूंक लागिल्लीं. मिनटा भरयांत बडकाचीं हाडां कटकटावपाचो आवाज कानार पडलो तसो एकोलयो बडकाक मांडलो म्हणपाचें दोगांनीय पारखिलें. म्हाड्ड्यान तकलेर हेडलाट चडयली, आर्म ओडीर काडलें, घोडो अळंग ओडून धरलो आनी आर्म कपलाक लायलें. एका हातान बटन चिड्डून ताणें हेटलायट पेटयली. बडकाच्या फोंडार झगझगीत उजवाड पडलो. बडकाचीं हाडां कड्डितल्या एकोलयान

मान घुंवडायली आनी खुनशी दोळे किलकिलायत दोगांयवटेन नदर मारली.

म्हाड्डो एकोलयाक पळयत उरलो. थंय फोंडाचेर आसा तो रानदुकोर न्हय, तर खासा आपूणच अशें ताका खीणभर दिसलें.

हो तो एकोलयो... म्हजेभाशेनच भुरगेपणासावन एकमुळो वाडला... म्हजे भशेनच मेळटा तें खावन जियेला आनी म्हजे भशेनच बायलेक आशेला... आर्माच्या चापार आशिल्लें ताचें बोट हाल्लेंच ना.

“आरे, पेटोय मुरे ऽऽ पेटोय मुरे फार ऽऽ !”

काचाबूल जावन आंद्रू किळचलो, तसो नकळटना म्हाड्ड्यान चाप ओडलो. घुडूऽऽम्मऽऽऽ आवाज रानभर गाजलो. एकोलयाचें सोण धरून बावळयामेरेन सामकी चेन्नड जाली. आशिनाशिल्लो फोर्स काडून तो तेच स्थितींत बोब मारीत हेवटेन तेवटेन धांवत रावलो; आनी निमाणो शेंवटून आड्यालागींच्या व्हाळांत कोसळ्ळो.

म्हाड्ड्याच्या दोळयांतल्यान दुकां भडभडलीं.

**



# नागपंचम

आश्लेशा नक्षत्रांतलो पावस रक रक रकतालो. फाटल्या सात दिसांत ताणें मातूय तोंड काडूंक नासलें. श्रावणांत शिरशिरपाबदला पावस दडकांनी येतालो. सगळो बोळकर्णेचो जुंवो उदकाळ जाल्लो. गांवची शेतोड, खाजन, मानस सगळें-सगळें हुंवाराच्या उदकान बुडून गेल्लें. मळीकपुरसाच्या देवळाचीं दोन सपणां बुडिल्लीं. उंचायेवयल्या वाड्याक तसो भंय नासलो; पूण कामा-वावराक खीळ पडिल्ल्यान सगळो लोक उबगून गेल्लो. खरें म्हळयार शेत रोवन जातकच श्रावणांत गांवभर लोक अळम्यांचो जोडधंदो करतालो. फोवाफोवाक रानां माडोवन अळमी खुट्टाले आनी तारीन सांकोड्ड्या व्हरुन विकताले. नवीं तवशीं, घोसाळीं फोंडेच्या बाजारांत पावयताले; हातभर चणक गरोवन काडलें जाल्यार व्हडल्या देसायागेर पावोवन धा-वीस रुपये किरवंटीक लायताले. पूण अंदू पावस-हुंवाराक लागून तांकां वर्सुक्या धंद्याचेर उदक सोडचें पडिल्लें. तारयान जाल्यार व्हडें केन्नाच चडणार हाडून दवरिल्लें. उभार मांडलेल्या फातरांचेर फळयो दाळून व्हड्याक जागो केल्लो. वयर मलायांनी पांखें शिंविल्लें. आनी-आनी भंय नाका म्हणून व्हड्याचे पागींत देड मूठ रुंदायेचो राजू घालून माडाक घट्ट बांदिल्लो.

म्हेडीक फाट तेकोवन पडवेवयल्या सोप्यार बशिल्लेकडेन हरी भगताली नदर धुंवूधुंवून हुंवारान भरिल्ले न्हंये पैलाडीं पावताली. धवसार पावसांत सांकोड्डेची तड हय-न्हयशी दिसताली. अकस्मात ताणें चिंतनानीच फुडली वाट साकार केली. बांदावयल्यान वचपाचें सोडून तो विसूभटाल्या कुळागरांतल्यान व्हड-व्हड धेंपां घालूंक लागलो. व्हाळ कसो व्हांवतले खळयेंतल्यान वयर सरून तो पानशीच्या मोडणार येवन गाडयेक उबो रावलो. पावसाक लागून मिना-खणीर येरादारी करपी गाडयो बंद आसल्यो. सांकोड्ड्यां-मोल्यां येवन, अळमी सवाय भितर विकतीं घेवन मडगांवच्या बाजारांत व्हरून विकपाचो धंदो करतल्यांची पिकप मोलेंच्यान येतना ताका मेळ्ळी. तिचेर बसून तो तिस्कार आयलो. दोतोराक सांगून दुयेंत चेड्याक वखद घेतलें, आनी दुदा-सोसायटींतल्यान दूद व्हरपाक नेमान येतल्या टेंपोचेर तो

सांकोड्या परतलो. न्हंयचे देगेर पावतकच मात ताचीं पावलां आडखळ्ळीं. दोशीवशीं उप्पट भरुन फोफेतली न्हंय म्हळयार वीरभद्राचो अवतार कशी दिसताली. खिणांत ताच्या दोळयांमुखार दुयेंत चेड्याची मूर्त उबी रावली, ताचे कुडींत कसलो अवसर भरलो कोण जाणा... फाटीं-फुडें पळयनासतना ताणे ते भिरांकूळ न्हंयंत घालून घेतलें. ताच्यामुखार साक्षात मरण पेंवतालें. जिवा-आकांतान तो उदकाकडेन दोन हात करतालो. शेकीं मोठे खटपटीन ते नागणीचेर जैत मेळोवन तो बोळकर्णेचे तडीर वयर सल्लो. उदकान तो शेकानशेक भिजिल्लो. ताणें हेवटेन तेवटन सांसपून पळयलें... चेड्याच्या वखदाच्यो बाटल्यो-गुळयो उदकाभरवण जाल्ल्यो.

**

"... वाडटां... आं..., जेयता मूं?"

बायलेच्या उतरांनी ताची तनर भंगली. सपनेवन उठिल्ल्या मनशाभाशेन ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. बाविल्ल्या तोंडावयल्यान वाल्याचो शेव ओडलो आनी खीणभर दोळे धांपून सुस्कार सोडलो.

"वाड... इल्लें!" जिवार येवन उठटना ताणें म्हळें.

बायलेन दोन ताटां दवरलीं. न्हाणयेचे खोंपींत वचून हातपांय धुवन तो पाटार बसलो.

"केन्नासो न्हिदलो चेडो?"

"आतां न्हिदला पिरंगो-पिंरगोन."

"मात तरी निसरला जोर?"

"..."

"गुळी दिल्ली तेका?"

"हय, एक उरलेली ती घातल्या."

"वखद आनी किदें करप तेंच कळना, जल्मतनाच तोंडात वखदांचें कासूल घेवन जल्मला."

"फाल्यां आनी नागपंचम! चणे, मूग फुगोंक घातल्यात, मात्सो निवळ्ळयार पुरो."

"हं... फाल्यां नागपंचम... ही तिसरी...!" तो सुस्कारलो. "अंदूय आसा दिसता तें अपशरण आमच्या बोडार!" ताणें निर्शेवन म्हळें.

"थुमेकाल!" अशें म्हणत हरी भगताच्या तोंडार हात दवरतना बायलेच्या दोनूय दोळयांतल्यान दुकां भळभळ्ळीं. फुडली एकूय उंडी दोगांयच्याय ताळयासकयल देंवली ना.

बोलकर्णेचो जाण्टो-नेण्टो राणू भगताक नाडो भगत म्हणून चाळयतालो. गांवचें सगळें देवसपण ताजेचकडेन आसलें; पूण देवा-नांवार कोणाक कसो आनी कितलो नाडचो हाचो ताचेकडेन सुमार नासलो. शेतां-भाटांची जापसालदारकी हरीचेर थापून तो नाका जाल्लीं कर्तुपां करपाक मेकळो जाल्लो. बापायची पाडी वृत्ती हरीक मातूय मानवनासली; पूण राणू भगत कानामनार घेनासतना हें ना तें निमित्त्य काडून पुताक आनी सुनेक खेपीत रावतालो. हरील्या लग्नाउपरान्त तीन-चार म्हयन्यांनी तो मजेक म्हणून माडयेर चडिल्लेकडेन पांय चुकून पडलो आनी कमर-पांय मोडिल्ल्यान हातरुणार उल्लो. शेता-भाटा फाटल्यान देवसपणाचीय जापसालदारकी हरी भगताचेर आयली.

"परत्या पांयांची... घरांत येयतसावन आमच्या जिवार उठल्या" अशें म्हणत मोडिल्लो राणू भगत हातरुणावयल्यान सुनेक गाळी घालतालो. सून बाबडी सगळें मोन्यानी सोसून मांवाचें वायट काडटाली. म्हयन्याभराच्या दुयेंसान तो हातरुणार न्हिदिल्लेकडेन खंवसलोच; पूण मेलो तो बऱ्या मनान मेलो ना. सरत्या आशाढांत, वायट नक्षत्रांत मेलो. तीन म्हयने घराची मठी सोडची पडली. सुतक जाल्ल्यान वर्सावळीची नागपंचम उरली. ताच्याच स्त्रापाचो बादिकार जाल्लेभाशेन दुसऱ्या वर्सा श्रावणाचे पयले दडकेक बायल सुटली. सुयेरान नाग पुजूंक मेळ्ळो ना. आनी अंदू तिसरी नागपंचम. एका वर्साचो चेडो फाटले तीन दीस जोरान फडफडटालो... खिणाखिणांत मारून येवन घट जातालो... झाडापाल्याचें वखद ताका पार नासलें.. दोतोरागेर व्हरतलो म्हळयार न्हंयचें उदक देंवं नासलें.

पोरसांतले घुमटेमुखार उबो रावोन हरीन घडघडीत गाराणें घालें. चेडो निवळ्ळयार बोकड्याचो मान सांगून घेतलो. गांवदेवाक, कुळदेवाक, पुरसाक, देंवचाराक एका वांगडाच केल्ली होरावणी आयकून ताचे बायलेचें आंग शिरशिरलें. गंधफुलांची तबकडी घेवन धोंपरभर उदकांतल्यान तो मळीक पुरसाच्या देवळांत केन्ना पावलो, हेंच तिका कळ्ळें ना.

**

"तूं भियेवं नाका गे, देंवतलो जोर चेड्याचो." शेजान्नील्या उतराक घांट वाजली. दोगांनीय बेगिबेगीन हात जोडले. "सत खरें" शेजान्नीन म्हळें. तिणें चेड्याच्या कपलार हात दवरून पळयलो. जोर चिके देंविल्लेभशेन तिका जाणवलो. "हो पळय गे, घाम देंवता ताचो, निसरतलो आतां जोर!" शेजान्नीन म्हळें.

हरीन देवळांतल्यान हाडलेली बिबूत चेड्याच्या कपलाक तेकयली. ताचे बायलेन मोठया भावराथान कपला-गळयाक लायली. चेड्याचो जोर देंवता तें

पळोवन दोगांकूय खोस भोगली. उमेदीन बायलेन चणे-मूग फुगूंक घाल्ल्या तोपांनी हात घालून पळयलो. दोंगुल्लेवयल्यान हाडलेले शेडीचे मातयेन हरीन शेणान धोंपरभर सारयल्ले वणटीर पांच फोडांचो नाग काडलो. पिंजरीन देग रेखली आनी कोळशान काळो ओम पितारलो. हात फाफडीत हुमऱ्यार रावन ताणें न्हंयचे दिकेन नदर मारली. हुंवाराचें उदक सपसप देंवपाक लागिल्लें. कुणग्यांनी उदक आडावन उरलें तरी पाचव्या रोपांचीं तोंकां दिसूंक लागिल्लीं.

हरी बांदार पासयेक म्हूण भायर सरला मात, हेवटेन चेडो रडपाक लागलो. बायलेन ताका दुदाक धरलो. मिनीटभर दूद पिवन तो परत रडपाक लागलो. पिल्लें दूद ओंकलो... खिणांत ताका मारून आयलें आनी सामको लाकूड कसो घट जालो. कोणा भुरग्यान रकाद दितनाच हरीन मेळिल्ले दोनूय नाल्लाबोंडे थंयच उडयले आनी ताणें घरचे दिकेन धांव माल्ली. घरांत शेजारच्या दादल्या-बायलांची गर्दी जाल्ली... तागेली बायल मोठयामोठयान हुयेली मारताली. चेड्यान दोळे कपलाक पावयल्ले. कसलो तरी पालो धोडावन चेड्याच्या नाकाकडेन धरिल्लो. दोगी शेजाब्री हरीचे बायलेक घट्ट धरून बशिल्ल्यो. चेडो गेल्ल्यांत जमा जाल्लो. निखटी नाडी चलता म्हूण तो जितो आसा म्हणपाक आधार आसलो. हरीच्यान थंय रावंकच नज जालें. रडकुऱ्या तोंडान तो येवन तकली धरून सोप्यार बसलो. काळया कुपांनी लिपिल्लो सुर्या अस्तमतेची धार देंवतालो. नागपंचमीचें अपसरण चुकना म्हणपाचें लागीं-लागीं सिध्द जाल्लें. सगल्यो आंगवणी, नवस हुंवाराच्या उंदकांत व्हांवन गेल्ले.

चेड्यान परतिल्ले दोळे जाग्यार हाडलेच नात.

कामाराचो भातो कशें ताचें हर्दें फुकफुकपाक लागिल्लें. शेजारी-पाजारी परतूंक लागिल्ले. तांचीं उतरां तिख्याचे बाण कशे हरीच्या काळजाक घाय करतालीं.

"शांबा, चेडो रात काडीतसो दिसना रेऽऽ " एकल्यान म्हळें.

"चुरचुरे बाबड्या हरीचे." दुसरो!

"हालीं हीं कसलीं दुयेंसां आयल्यांत कोण जाणां." तिसरो.

"एक एक म्हूण इपरिताचीच पिडा..."

"पयर तो म्हाळूलो नातू... देड वर्साचो... मारून आयलां म्हूण निमीत... स वरां भितर थंड."

"पाड पडलेलो गांव हो! चारुयवटेन उदक; दोतोराक हाडपाक तरी सट्ट करून मेळटा?"

"हांव सांगूं...? हरीलें किदेंय पूण देवसपण चुकलां आसूंक जाय. ही तागेली तिसरी नागपंचम उरता!"

"आरे...फाल्यां आनी नागपंचम मरे? मातयेक आयधांय लावंक मेळचीं नात,

चेडयाक पुरतलो म्हळयार."

हरी घुसपलो. फाल्यां नागपंचम... माती दुखोवंक जायना... आनी... फांतोडेचेर चेडो मेलो जाल्यार...? चेडो सबंद दीस रात उरतलो... आनी... आनी...

फुडलें चिंतपाक तो रावलो ना. तो तसोच उठलो. कोनश्याक उडयल्लो पिकास आनी खोरें उबारलें आनी त्या झिळमिळया काळखांत पोरसांत वंयेक तेकून तो फोंड खणपाक लागलो.

...फाल्यां मरतल्या चेड्याक पुरपाक!

**

३

# कलसांव

रात चडटा तसो पावणेकूय नेट चडटालो. भायर आकांताचें शीं पडिल्लें. जात्रेंत भोंवतले लोक चोम्या:चोम्यांनीच भोंवताले. भोवतेक लोक माटवांत दाटी करून पावणी सोपपाची वाट पळयताले. खाज्या-माणांमुखारची गर्दी बरीच उणी जाणवताली. चणेकार धगधगीत इंगळयांनी भरिल्लें मडकें आळये-पाळयेन चण्यांचे आनी भिकणांचे राशीर दवरपांत गुल्ल आसलो. फुलकान्नीनी गोजड्यो, चादरी आंगा भोंवतणी गुटलावन कुंरगुटी केल्ली. पयसुल्ल्यान गडगडेकाराच्या फोलिणाचो आवाज मात बरो आयकूंक येतालो.

केशवमामाल्या चाये दुकाना मुखारचे म्हेडीक तेकून हांव म्हजे कोणूय वांगडी जावं शाळगडी दिसतात जाल्यार पळयतालों. जात्रेचो निमाणो दीस जाल्ल्यान सगळो गांव लोटून आयिल्लो. वर्साची बेताळाची जात्रा म्हळयार आमची वर्सुकी उमेदीची झर कशी! पूण... अंदू मात म्हजी उमेद मनांतूच आटिल्ली. आवयन म्हाका जात्रेच्यो तीनूय राती केशवमामाल्या चायेच्या दुकानाचेर रावपाक सांगिल्लें. खरें म्हळयार केशवमामाक पळयल्यारच म्हाका तिडक मारताली. फाटल्यो तिनूय राती ताणें आमकां गिदांनी कोंकावचे तशे तापोवण्यांनी सामके बोचून काडिल्ले. जात्रेचे उमेदीन गर्देंत एक पासय मारता म्हूण सांगल्यार “तुज्या कानसुलार एक फुलयतलों’ अशें म्हूण ताणें म्हाका धपकायिल्लो. शिंयाचो कुडकुडो पयस करपाक लोक चायेच्या दुकानार गर्दी करताले; ताका लागून आमकां मातूय विसव मेळनासलो. केशवमामालो भट्टीवालो आनी च्या दिवपी मानाय दोगूय मामाक फाटल्यान गाळी घालताले, पूण तोणार एक जाप काडी नासतना रेडयांभाशेन काम करीत रावताले. तीन राती काम करून जाल्ल्या जागरणान म्हजे दोळे बेब्याभाशेन सुजिल्ले. दोनूय पांय वळटाले. केन्ना काय आड पडून ताणून दिवं, अशें म्हाका जाल्लें.

“ दिगू ऽ ये दिगू ऽऽ .” भितर ग्लास दवरल्यात ते कोण तुजो बापूय धुतलो? मार रावला म्हेडीक तेकोन भाटकार कसो... व्होशीमेर्द भितर... धूय ते

ग्लास, बश्यो पयलीं." मामान म्हजेर फोग काडिनाफुडें मामालीं फुडलीं उतरां आयकूंक राव नासतना हांव फाटले वटेन येवन ग्लास धुवंक लागलों. शेळें उदक भरून दवरिल्ल्या बल्लांत हात घालपाची माणसुकी नासली. झेलाचेर दवरिल्ले भाशेन हात थंड-किरांव जाताले. परत परत धगधगते भट्टे मुखार उबो रावन हात शेकोवचे पडटाले. तीन राती दोन ग्लास फुटल्यात म्हणून हांवें दोन खोंटोय खाल्ल्यो. म्हाका सामको उबग आयिल्लो.

सगळे ग्लास, बश्यो थंयच आपटून जात्रेंत भरसुचो आनी माटवांत इश्टांवांगडा बसून नाटक पळोवचेंशें म्हाका दिसतालें. पूण, आवय म्हजेर तापय काडीत म्हूण हांव पळून वचपाचें धाडस करी नासलों.

वर्सान वर्स केशवमामा जात्रेक चायेचें दुकान लायतालो; पूण तो म्हगेलो मामा म्हणून म्हाका खबरच नासली. तागेलो धंदोच खंय जात्रांनी भोंवपाचो. एक एक करून गावांगावांतल्या सगळयाच जात्रांनी तो चाये दुकान घालतालो. ह्या-त्या राटावळींमुखार ताका खंयच्याच वर्सा आमगेर येवंक फाव नासलें खंय; पूण अंदू मात जात्रेच्या पयल्याच दिसा ताका आमगेर पळोवन आनी तो म्हगेलो मामा म्हणपाचें समजतकीर म्हाका सामकें अजाप जालें आनी जात्रेक दुकान लायता तो म्हगेलो मामा हें वांगडच्यांक सांगपाक हांवें वाडयार धांव मारली.

हांव परत घराकडेन आयलों तेन्ना केशवमामा देवळाकडेन वचपाक भायर सरिल्लो. मामान हाडिल्ल्या पिपीरमिटांची पुडी म्हज्या हातार दवरून आवयन म्हाका म्हळें,

"दिगू, मामान तुका कल्सावांक कुडको दितां म्हूण सांगलां".

"खरेंच!" हांवे म्हजें कुल्यार पिनिल्लें कलसांव सासपीत म्हळें.

"हय, पूण तुवें तागेलें एक काम करचें पडटलें."

"कसलें काम?" हांवें उमळशिकेन विचारलें.

" मामाल्या चाये माणावयले दोग मानाय दुयेंत म्हूण येवंक पावूं नात खंय; जात्रेच्यो तीनूय राती तुवें तागेल्या मांडार काम करपाचें." आवयन म्हाका फुसलायत म्हळें.

"ना... ना... हांव ना...! म्हाका जात्रेक भोंवोंक जाय!"

"शाण्या... तुका हांव अंदू कपडे शिवोंक पावूं ना. भोकार पिनलेली मुस्तायकी घालून तूं जात्रेक भोंवतलो? वांगडचे हांसचे नात तुका? आनी जात्रा किदें रे? वर्सान वर्स आसाच. अंदू तुवें मांडार काम केलें जाल्यार तुका कल्सांव मात शिंवोन मेळटलें."

आवयक कितें जाप दिवची तें म्हाकां कळना जालें. म्हज्या केंसांत हात भोंवडायत तिणें म्हळें. "पळय, तूं चल मामाल्या मांडार, हांवें सांगलां मामाक तूं

येतलोच म्हणोन. सांबाळून मात काम कर; तुगेलो मामा मात्सो एके शिरेचो, तागेलें पाशेंस रोकडेंच कडटा. तो पिकार बी जायत जाल्यार तूं निर्शेवंक नाका. रातचीं जागरणां करून करून ताका राग सांबाळून घेवपाची शक्त उरूंक ना."

हांवें तकली हालोवन आवयचें सांगणें मानून घेतलें.

तिणें म्हळें, "जाणा मरे, तुगेल्या मामाल्यो राटावळी चड; हागेलें हाडून ताका दी, तागेलें हाडून हाका पावय, हाका नागय, ताका पांयां पडोन निभय, असल्योच भानगडी चड तागेल्यो. पैश्यांमुखार आपल्या-परक्यांक कोणाक वळख नाशिल्लो मनीस तो. इतकीं वर्सां जात्रेक मांड घालता, पूण एक दीसय ताका भयणीगेर येवंक फावलें ना. अंदू मात आयला... मानाय नात म्हूण... भाच्याक घाणाक लावपाक." आवयच्या दोळयांत दुकां भळभळीं. ती कितें म्हण्टा तें म्हाका तेन्ना सारकें कळूंक नासलें; पूण मामाल्या चायेच्या दुकानार दोन राती काम करिना फुडें केशवमामा म्हळयार कसलो मनीस तें हांवें बेस बरें पारखिल्लें. च्या शिजोवन उरिल्लो पालो परत वापरलो ना जाल्यार भट्टीवाल्याक तो सामको तापोवन काडटालो. एक शेर दुदाचे तो आपल्या हातीन दोन शेर करतालो. च्या करतालो ती दळाची न्ही, इल्लीशी साखर चड पडली जाल्यार भट्टीवाल्याच्या भोकार पडलीच खोंट. लोक बोब मारताले; पूण मामा निर्लज्ज कसो हांसत रावतालो. जात्रेक आनी कोणालेंच चायेचें दुकान नाशिल्ल्यान मामाल्याच दुकानार गर्दी पडटाली. आनी मामा सगळें मनीसपण सोडून म्हणटात तसो आपलो धंदो चलयतालो. ताचो तो सभाव, नश्टी वृत्ती आनी पाडीं कर्तुपां पळोवन ताच्या तोंडार नदर घालची म्हळयार म्हाका शिसारी येताली. भर गिरायका हुजीर ताचीं कुतां काडून ताचें काम सोडून वचचें अशें म्हाका खिणाखिणाक दिसतालें; पूण आवयलीं उतरां दोळयांमुखार रावतालीं आनी म्हगेलें तोंड आनी पांय खिळावताले.

ग्लास, बश्यो धुतां धुतां म्हजे कान पावणी आयकताले. "निमाणो, देवा पांयांकडलो फुलां झेलो... एकवीस रुपयाऽऽ तिसरी खेपऽऽऽ साऽ वोसाऽऽऽ." पावणीकारान निमाणी पावणी सा केली आनी म्हाका, भट्टीवाल्याक आनी च्या दिवपी मानायाक मात सूऽऽ जालें. खिणाभरयांत दुकानांतली गर्दी उणी जाली. नाटक पळोवपाक सगळेच माटवांत धांवले. घडयाळीवयलीं वरां पळोवन मामा तिडकलो. "चेडयेचे हे कमिटी मेंबरऽऽ पयशे व्हरपाक पटी घेवन येतात बरे. आनी साडे बारा जावचे पयलींच नाटकां सुरू. साडेबारांक नाटकां सुरू केल्यार आमी गिरायक कसलें बाये मडसरेचें करपाचें?."

मामा पिंरजळटा तें पळोवन म्हाका खरेंच बरें दिसलें. असल्या मनशाचेर आयुश्यभर पिरंगणीच पडूं, अशें हांवें मनांत म्हळें. भट्टीवाल्यान बरीऽशी केल्ली

च्या एका ग्लासांत घालून म्हाका दिली आनी मामाक कळनासतना पिये म्हूण म्हाका दोळयांनी खुणायलो.

मामा गल्ल्यांतल्यो नोटी मेजपांत गुल्ल आसलो. हांव एके खुर्चेर बसून तो नोटी मेजता तें पळोवपाक लागलों. विसांच्यो, धांच्यो, पांचांच्यो, दोनाच्यो कितल्योश्योच नोटी गल्ल्यांत भरिल्ल्यो. निथू लावन मेजता आसतना तो मदींच म्हजेर धेंगसलो.

"तूं किदें पळयता रे? चल-वोस्स, सगळे ग्लास धूय, मांडून दवर आनी मेज कितके उरल्यात, कितके फोडल्यात ते." हांवें सगळे ग्लास आनी बश्यो धुवन, मेजून दवरल्यो आनी भट्टेकडेन येवन हात शेकोवंक लागलों. हातांतल्यो नोटी परत एकदां मेजून जातकीर मामान म्हाका उलो मारलो. म्हाका दिसलें, तो आतां म्हाका कलसांवां कपडयाक पैशे दितलो. हांव गल्ल्याकडे पावतकीर मामान "तूं मात्सो बस हांगा" म्हणत म्हाका गल्ल्यार बसयलो आनी ट्रंकाचें कुलूप काडून पयशे दवरपाक लागलो. गल्ल्यार बशिल्लेकडेन म्हाका कितकी खोस जाली जाणां! हांव गल्ल्यार बशिल्लो म्हज्या वांगडच्यांनी पळोवचें अशें म्हाका दिसतालें; पूण वळखीचो कोणूच नदरेक येनासलो.

गल्ल्यांतल्यो सगळयो नोटी मामान व्हेल्यो तरी भितर मोड भरिल्ली. इतले मोडचे पयशे हांवें देवळांतल्या ताटांत सुद्दां केन्नाच पळोवंक नासले. हांवें मोडींत हात घालो आनी सगळी मोड खळखळायली. त्या आवाजान म्हजें आंग शिरशिरलें. हांवें म्हज्या पोशांत येता तितली मोड घेवन उबारून खळ-खळ करुन परत भितर सोडली. तीन राती काम केल्ल्याचें जागरण, त्रास सगळें नाच् जाल्लेभाशेन म्हाका दिसलें.

पयलो अंक सोपतकीर चौग-पांच जाण च्या पिवंक आयले. हांवें झेतार कांपीण मारून तांगेले पयशे विचारले. ताणीं दिल्ली नोट घेवन उरिल्ले पयशे तांकां परत दिले.

"सारकें काडलां मरे, बील?" मामान भितरल्यान विचारलें.

"हय-हय" हांवें नेटार म्हळें.

"सितारामऽऽ" भट्टीवाल्याक उलो मारून मामान म्हळें, "फाल्यां, परां कामरखंडा जात्रेक-काल्याक, जाणा मरे? तिसरो अंक सोपतकीर सगळें सामान बांदून दवरून, मागीरच न्हिदपाचें- किदें रे? फांतोडेचेर पीकप येतली, माटोव बी मोडून रोकडेंच वचपाचें, आयकलां मरे?"

सितारामान हय य म्हळें ना आनी नाय म्हळें ना.

"आयकूंक येना रे?" हांवें मामाच्या झेतार सितारामाक तापयलो. सितारामान म्हजेर रागान अशी एक नदर घुंवडायली, तो आतां म्हाका उबारून भट्टेंत

उडयतलो अशें म्हाका खीणभर दिसलें.

मामा चोपडेर हिशोब बरोवपांत गुल्ल आसलो. हांवें जाता तितलीं चार आण्यांचीं आनी आठ आण्यांचीं नाणीं वेगळीं काडलीं आनी मेजार एकार एक दवरून दाळ केलो. हांव गल्ल्यार बशिल्लो खंयच्यान तरी पळोवन, म्हजे दोग शाळगडी चाच्या दुकानालागीं येवन म्हाका शूक-शूक करपाक लागले.

हांवें झेतार तांकां पळयत म्हळें, "ओ भिकू, ओ नारायण, किदें रे?"

"कांय ना", तांणी म्हळें.

"च्या पितले तुमी?" हांवें विचारलें.

ताणीं हय म्हणून तकली हालयली.

"सिताराम, हांकां दोन बऱ्योश्यो च्या दी." झेतार ऑर्डर करीत मेजावयली कांपीण वाजोवपाक मुखार केल्लो हात दाळून दवरिल्ल्या पयश्यांक लागलो आनी सगळी मोड खळ्ळू करून सकयल पडली. इतको वेळ म्हजो कारभार पळोवंक नाशिल्लो मामा सट्ट करून उठलो आनी सकयल पडिल्ले पयशे पुंजावन ताणें गल्ल्यांत घाले. म्हाका कुशीक काडून म्हजीं सगळीं बोल्सां तपासलीं, आनी म्हज्या कानाक पिवळ घालीत म्हळें, "तुज्या बापायली जोड म्हणोन समजलो काय किदें रे तूं?" पैश्यांकडेन खेळ करता? मात्सो गल्ल्यार बसयल्यार पैश्यांची ऊब चडली तुकां? व्होशीमोरऽऽ हांगासल्लो, कुशीन सर." मामान म्हाका धुकलून कुशीक काडलो.

नारायण आनी भिकू भिवन भायर सरून गेले. म्हज्या आंगाक रागान उजो पेटिल्लेभाशेन जालो. एक कदेल उबारून मामाच्या खड्ड्यार घालून ताचें तिवळ व्हांवोवचें अशें म्हाका खीणभर दिसलें.

"म्हगेल्या कल्सांवां कपड्याचे पयशे दी." हांवें रागान म्हळें.

"आं... पयशे... फाल्यां सकाळीं तुगेले आवयकडेन दितां." मामान म्हळें.

"फाल्यां ना... म्हाका आयज जाय, आतां."

"आतां जाल्यार तुज्या कानसुलार थापट मात दितां." अशें म्हणून मामान म्हजेर ठोऽऽ करून एक थापट फुलयलें. जागरणान झेमिल्ल्या म्हज्या दोळयांमुखार काळोख आयिल्ले भाशेन जालो. ते भिरकेंत हांव नाटकाच्या माटवांत वचून बसलों. नाटक केन्ना सोपलें कोण जाणां! दनपरां आवयन येवन म्हाका उठयलो तेन्ना हांव जागो जालों. चौग-पांच जाण भुरगे माटवांत न्हिदिल्ले आसले.

"मामान दिले तुका कल्सावां कुडक्याचे पयशे?" आवयन म्हज्या कानांत विचारलें.

"ना... तुजेकडेन दिता म्हण्टालो मगे तो, तुजेकडेन दिवंक ना तर?" हांवें

विचारलें.

आवयन ना म्हणून तकली हालयली.

हांवें मामाल्या चायेच्या दुकानावटेन तकली घुंवडायली. सगळें सामान घेवन मामा केन्ना गेल्लो कोण जाणा! माटोव-बिटोव थंय कांयच नासलें. गोबरान भरिल्ली एक उज्याची भट्टी सोडल्यार, रातीं थंय दुकान आसलें म्हणपाची कसलीच कुरू दिस नासली.

"सामको फटींग तो मामा!" हांवें रडकुऱ्या तोंडान म्हळें.

"तागेल्या राटावळीं मुखार तुजी याद घडये उरली ना जायत ताका," आवयन म्हळें आनी ती चलूंक लागली.

मामाल्या चायेच्या दुकानाचे सुवातीर नदर घाली नासतना, म्हगेलें कुल्यार पिनिल्लें कलसांव सांबाळीत हांवूय तिचे फाटोफाट चलत रावलों.

**


२७३४

४

# डॉल्फी

मोलेंच्या टुरिस्ट कॉम्प्लेक्सांतलें टुरिस्ट कँटीन भावोजीन जेन्नासावन चलोवपाक घेतलें, तेन्नासावन शेनवार-आयताराची जोडसुटी एकदांय म्हाका उमेदीन मनोवपाक मेळळी ना. भावोजील्यो पयलीं राटावळी चड. एक भुसारी दुकान, एक ट्रक, फोरेस्टाचो कॉंट्रेक्ट आनी तेमोजाक पडून चलोवपाक घेतिल्लें हें टुरिस्ट कँटीन. फावो तशे मानाय मेळ नासले आनी भावोजीलीं हांगचीं थंयचीं कामां सपसप करून जाय नासलीं. शुक्राराक सांजेचो ऑफिस सुटून भायलेभायर हांव मोल्यां टुरिस्ट कँटीनार वतालों तेन्ना शेनवार, आयतार अशे दोन दीस ताका हुस्क्यामेकळेपणान हेर वावराकडेन लक्ष घालपाक फुरसत मेळटाली. मोलेंचो टुरिस्ट कॉम्प्लेक्स निकतोच नांवा-रुपाक येवपाक लागिल्लो. सुटयेच्या दिसांनी सगळे रुम पॅक आसताले आनी कँटीनारुय गर्दी जाताली. हांव खरें म्हळयार एके शिरेचो मनीस जाल्ल्यान सुटयेच्या मुडांतल्या गिरायकाकडेन जुळोवन घेता म्हळयार म्हाका नाका पुरो जातालें. केन्ना काय सोमाराची सकाळ उदेता आनी हांव भायले भायर ऑफिसांत वचपाक फुज्यो काडटां, अशें म्हाका जातालें.

फाटल्या सोमाराक परततना हांवें भावोजीक सांगून उडयिल्लें, फुडल्या शेनवाराक ऑफिस स्टाफाची पिकनीक आशिल्ल्यान हांव नासतलों. ते प्रमाण शुक्राराक ऑफिसांत दुसऱ्या दिसाचे पिकनिकेचो प्लॅन फायनलायझ करून सांजचो घरा यो जाल्यार दारांत भावोजीची स्कुटर उबी.

"फाल्यां सकाळीं पिकनिकेक वचपाकच जाय?" हांव भितर सरतनाच भावोजीन प्रस्न केलो.

"हय तर, सगळे जाण म्हजी वाट पळयत रावतले. म्हजेखातीरच ती इतको तेंप आडून उरल्या. वर्सुकी पिकनीक ती आमची." हांवें म्हळें.

"धांदळ मरे तर!"

"किदें जालां?"

"गाडयेक लोंड्यार ॲक्सिडेंट जाला. फाल्यां थंय वचून सगळें जाग्यार

घालपाक जाय. दोन दीस तातूंकच उरतलों. कँटिनार सामकी धांदळ जातली." भावोजीन म्हळें.

हाचेर न्हयकार दिवपाक नैतीक धैर्य म्हाका जालें ना.

"येतां तर हांव फाल्यां सकाळीं."

"फाल्यां नाका, आतांच या, स्कुटरीचेर."

भावोजीक सामकी ताकतीक जाल्ली. निखटी च्या पिवन हांव म्हज्या मनाआड मोल्यां वचपाक स्कुटरीर बसलों.

"सोमाराक ऑफिसांत वतकीर कलिग्स म्हाका कशेच दवरिनात. हांव आयलों ना म्हूण बेजार जातलेच, वयल्यान म्हजी वाट पळयत पिकनिकेक वचपाक कळाव जालो म्हूण चडूच चाळवतले." हांवें भावोजीक म्हळें, पूण भावोजी ओगीच रावलो. मोल्यां पावसर हांव आनीक एक उतर लेगीत उलयलों ना.

म्हाका टुरीस्ट कँटीनार पावोवन भावोजी भायल्याभायर भुसारी पसऱ्यार वचपाक गेलो.

ते रातीं व्हडलेंशें गिरायक जालें ना. साडे धांकच जेवन हांवें शटर ओडलें आनी गल्ल्याकडेन मेज ओडून न्हिदलों. सदचे भशेन भितल्ले वटेन रांदप्यान कुरंगुटी केली. कँटिनातलो एकलोच वेटर कोणतरी कासाक वतात तांच्या वांगडा वतां म्हूण सांगून धा वरांचेरच कडसरिल्लो.

झेम लागपाक कोणें तरी दार धोडायलें.

"पातरांव ऽ पातरांव ऽऽ!"

"कोण रे?" हांवें तिडकून विचारलें.

"हांव पातरांव... रुम बॉय."

"किदें जालां?"

"पातरांव, एके जिपींत सात-आठ टुरिस्ट आयल्यात. सामके भुकेल्यात. किदेंय जेवण उरलां जाल्यार तांकां दी म्हूण मॅनेजरान सांगलां." रुमबॉयान म्हळें.

आवाज आयकून रांदपी उठून म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. "सात-आठ जाणांक पावतशें जेवण उरलां रे बाबनी?" हांवें रांदप्याक विचारलें.

"एकूच भाशेन मेळचेंना; मटन, चिकन, फीश-करी अशें मेळटलें" बाबनीन सांगलें.

"चल आपय तर तांकां" रुम बॉयाक सांगून हांवें शटर उगडलें; आनी सगळयो लायटी पेटयल्यो. बाबनी जेवणा ताटां मांडटा म्हळयार हांवें दोन मेजां एकठांय करून सरभोंवतणी आठ खुर्च्यो दवरल्यो आनी उदक भरून जार आनी ग्लास दवरले. बुकींग ऑफिसांतल्यान रुमांच्यो चावयो घेवन, रुमार वचचे पयलींच तांणी जीप कँटिनाच्या दारांत उबी केली. सादारण पंचविशेक वर्सांचो

एक अजागळसो तरनाटो देंवलो आनी एक बालदी घेवन म्हज्या म्हऱ्यांत उबो रावलो. ताचे दोनूय हात ऑयलीन काळे जाल्ले.

"बाबुजी, थोडा पानी दे देना." जिपींतल्यान देंवन एका गोमट्याच मनश्यान भायर रावनच म्हळें. तांगेल्या त्या अजागळ मानायाक नळ दाखयतकीर ताणें बालदी भरून व्हेली आनी भायर हरयाळीचेर दोगूय साबण घेवन हात धुवंक लागले. तितले म्हणसर जिपींतल्यान आनीक एक दादलो, दोगी बायलो, एक धा एक वर्सांचो भुरगो आनी तीन चार वर्सांचे एके चलयेक घेवन वीशेक वर्सांची सादीच पूण सुंदर चली भितर सरली.

रांदप्यान तांच्या मुखार ताटां दवरलीं. त्या बरोबर भायर हात धुतल्यांक कितें तरी सांगून हांणी जेवपाक सुरवात केली.

ती चली मात उबी रावन त्या धाकट्याक भरोवंक लागली. भायले दोगूय येवन ताटार बसले आनी कसले तरी भाशेंत उलयत जेवंक लागले. तांगेली भास म्हाका समज नासली तरी तांकां पोटाभुकेर जेवण बरें लागलां आनी तेचविशीं तीं कितें तरी उलयतात हें हांवें पारखिलें.

भुरग्याक भरोवन, आंचोवन हाडले उपरान्त आपलें ताट घेवन ती चली कुशीक बसून मोन्यानी जेवपाक लागली, तेन्ना ती एकाद्री तांगेली वावराडी बी आसत काय असो दुबाव म्हाका पडलो.

"इतली सुंदर चली आनी वावराडीऽऽ?"

हांव तिका पळयतच उरलों. तिच्या आंगार सादेच कपडे आसले तरी हेर दोगांय बायलांपरस कितलीशीच उजू दिसताली. आंगान गोरी आनी सुटसुटीत आशिल्ल्यान तिका वेगळेंच तेज मारतालें. जेवतना तिणें एकदांय तकली वयर केली ना, जावं कोणाकडेन एक उतरय उलयली ना. हांव ओगीच तिच्या म्हऱ्यांत लोणच्याचें आयदन घेवन लोणचें वाडपाक म्हूण गेलों तेन्ना सुद्दां तिणें निखटी तकली हालोवन नाका म्हूण सुचयलें. तिचो तो नमळ सभाव म्हाका खरोच आवडलो; आनी इतली सुंदर चली वावराडेचें काम करता हें चिंतूनच म्हाका चुरचुरे पडले. खरेंच, इतली सुंदर, सादी, नमळ चली म्हजे नजरेंत केन्नाच येवंक नासली. एक आदर्श हिंदू चली म्हूण ती कोणाकय आवडपासारकी आसली. म्हाका तर मना-काळजांतल्यान आवडिल्ली.

"रास्तेमे गाडी बिगड गई क्या?" जेवन म्हज्या म्हऱ्यांत येवन बशिल्ल्या तांच्यामदल्या एका दादल्याक हांवें विचारलें.

"हां, इधर घाट उतरते समय ही नाकाम हो गई! करीब ढाई घंटोंके बाद ही सिधी हो पायी." ताणें जाप दिली.

"रात के अंधेरे मे डर तो नहीं लगा, पर भूख लग गयी!" दुसऱ्यान हांसत

म्हळें आनी शंभरांची नोट गल्ल्यार उडयली. बिलाचे अठ्यांयशीं रुपये काडून उरिल्ले बारा रुपये हांवें ताका दिले तेन्ना 'रहने दो' म्हणत म्हजेचकडेन परतिले.

"सबेरे नाश्ता क्या मिलेगा?" मॅक्सी घाल्ले एके बायलेन विचारलें.

"ऑम्लेट, पुरी-भाजी, शिरा... क्या चलेगा?" हांवें म्हळें.

म्हाका समज नाशिल्ले भाशेंत तीं कितें तरी उलयलीं आनी म्हजेवटेन घुंवत तिणें म्हळें, "देखो जी, जो चाहिये वो सबेरे सात बजे बोल दूँगी, चलेगा?"

"जरूर!" हांवें म्हळें, "सबेरे सात बजे तुम्हारे नौकर को भेज देना."

"किसे? कौशिक को?" म्हाका हांसत एकल्यान म्हळें, "वो बुद्धू बंगाली छोडकर कुछ भी नहीं जानता." तागेल्या वाक्यार उरिल्लीं सगळीं हांसलीं. धाकट्याक घेवन जिपी म्हऱ्यांत उबे आशिल्ले ते चलयेकडेन बोट दाखयत एके बायलेन म्हळें, "हम सबेरे डॉल्फीको भेज देंगे!"

जिपींत बसून सगळीं 'बी' क्वार्टर्साच्या रुम नंबर चाराच्या दारांत देंवलीं. तांणी व्हरूंक नाशिल्ल्या बारा रुपयांतले धा रुपये रांदप्याक घे म्हळयार आपणाक दिल्ली धांची नोट दाखयत ताणें म्हळें,

"पातरांवऽ पेजाद पार्टी दिसता, न्ही?"

"चड करून बंगाली फॅमिली आसूंये," हांवें दुबाव उक्तायलो.

"पातरांव, तांगेली वावराडी म्हूण कितकी सुंदर न्हय?" रांदप्यान दुसरो प्रस्न केलो.

"डॉल्फी... डॉल्फी नांव तिचें." हांवें म्हळें. "म्हाका जाल्यार तिचो सभाव आवडलो रे." रांदपी हांसत, न्हिदपाक गेलो.

ते रातीं म्हाका सारकी न्हीदच पडली ना. घुंवूघुंवून ते डॉल्फीची मूर्त दोळयांमुखार उबी रावताली. कितली सादी, नमळ, सुंदर चली! कोणाकडेन उलोवपी न्ही, कोणाक तकली वयर करून पळोवपी न्ही, कोणाक बळयां हांसपी न्ही; पूण वावराडी बाबडी!

कशी पावली काय ही तांगेर? सामकी गरीब घराण्यांतली काय? तांगेली पयसुल्ली सोयऱ्यांची बी आसत काय? काय तिका भुरगेपणांत अनाथालयांतल्यान बी घेतली ना मूं तांणी? परत परत आमडुनय कानाकडेन कुंयकुंय करतल्या जळारांभाशेन, डॉल्फीविशींच्या प्रस्नांनी म्हजी न्हीद खळयली. म्हज्या काळजांत कसली तरी अनवळखी चुळबूळ सुरू जाली.

सकाळीं साडे संकच उठून, न्हावन, नवे कपडे घालून हांव गल्ल्यार बसलों. रांदपी रांदचे कुडींत गुल्ल जाल्लो. कासाक सावन आयिल्लो वेटर फाटले वटेनचे लाकडां खोंपींत न्हिदून पडिल्लो. म्हजी नदर घुंवन घुंवन 'बी' क्वार्टर्साच्या रुमांवटेन वताली. सारकें सातांक डॉल्फी भायर सरलें. हांवें बेगिबेगीन मेजाच्या

ड्रॉवरांतल्यान ॲग्रीमेंट फायल काडली आनी सेलाद फोलीवयलो स्टॅम्प कोणाकय सप करून दिसचो असो धरून आदवोगादाचे पोझींत ॲग्रीमेंट वाचपाचो 'शो' केलो.

डॉल्फी येवन मेजामुखार उबें रावलें.

"गुड मॉर्नींग." हांवें म्हळें.

"गुड मॉर्नींग." तकली मात्शी बागोवन पोल्यांचेर धव्यापुल्ल साळकांचो हांसो फुलयत डॉल्फीन "व्हीश" केलें. ताच्या हांश्याचेर कोणय लुब्ध जावपाचोच.

"हमें चार डबल ऑम्लेट, दो शिरा, दो पुरी-भाजी और एक ब्रेड-मस्का तथा आठ नेसकाफे भेज देना!"

"अच्छा!" हांवें म्हळें आनी झेतान रांदप्याक ऑर्डर दिली.

"बैठिये!" दस मिनटमें दे दूंगा!"

"जी नहीं, कौशीक आके ले जायेगा।" अशें म्हणून डॉल्फी आपले भाबडे चालींत चलत रावलें. ताणें एकदां तरी फाटल्यान घुंवन म्हजेवटेन पळोवचें अशें म्हाका दिसलें; पूण ताणें नदर घुंवडायलीच ना. नाश्त्याची ट्रे तांगेलो मानाय, कौशीक घेवन गेलो; पूण तो अजागळ कपां बी उडयत म्हूण हांवें नेसकाफेची ट्रे मात आमगेल्या वेटराकडल्यान धाडून दिली. नाश्ता जाल्या उपरान्त सगळीं खुर्च्यो घेवन भायर बसलीं. म्हजी नदर डॉल्फीक सोदताली; तें एकलेंच कसलें तरी काम करतालें, देखून दिश्टी पडनासलें. थोड्याच वेळांत तें उमळिल्ले ओले कपडे घेवन आयलें आनी भायर सरयेचेर सुकूंक घालूंक लागलें. हांव बेगिबेगीन भायर सरलों आनी एक दोळो डॉल्फीचेर दवरून भायर रोयिल्ल्या अशोका रोपाची अपुरबाय करूंक लागलों. कपडे सुकूंक घालून हेवटेन पळय नासतनाच तें भितर सरलें. म्हाका सामके चुरचुरे पडले.

इकरांक सुमार धाकट्याक आनी त्या धायेक वर्सांच्या भुरग्याक घेवन डॉल्फी कँटिनावटेन येता तें पळोवन हांव ताचेकडेन कितेंय तरी उलयतलोंच असो हांवें निश्चेव केलो.

डॉल्फीन दनपारच्या जेवणाची ऑर्डर दिली आनी दोगांय भुरग्यांखातीर कोला घेवन तें धाकट्याक पिवोवंक लागलें.

"आप बंबईसे आये हो क्या?" हांवें विचारलें.

"जी हां, बडे बाबू बंगाली हैं, मगर उन्होने बंबईमें नन्ही सी फॅक्टरी खुलवाई, तबसे बंबईमे सेटल हुये हैं।" हांवें विचारपाक थारायिल्ल्या फुडल्या प्रस्नाची जाप दिवन तें परत धाकट्याक पिवोवंक लागलें.

"क्या आप, गोवा देखनेके इरादेसे आये हो?" हांवें नेट सोडलो ना.

"जी नहीं, बडे बाबू, इधर कहीं ॲग्रिकल्चरल फार्म खरीदनेकी सोच रहे हैं,

इसीके वास्ते किसी पार्टीको मिलने गोवा आये हैं।"

दोगांकय घेवन डॉल्फी परतलें. मात्सो वेळ काय जायना, डॉल्फी म्हजेकडेन मेकळेपणान उलयलें म्हणून म्हज्या जिवाक मातशो कातकुतल्यो जाल्यो.

दनपरां जेवणा उपरान्त तीं जीप घेवन गेलीं तीं बद्द भायरच जेवन रातचीं लेट परतलीं. तीं जेवणाक येवंक नाशिल्ल्यान डॉल्फी दिश्टी पडलेंना म्हूण म्हाका चुरचुरे पडले; तीं येत म्हूण मुद्दम दवरिल्लें जेवण उरलें म्हूण रांदपी चुरचुरलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं येवन डॉल्फीन नाश्ताची ऑर्डर दिली आनी रातचीं लेट पावल्यार लेगीत जेवण दवर म्हूण सांगलें.

"आज किधर जा रहे हो?" हांवें ओगीच विचारलें.

"गोवा देखने." अशी जाप दिवन डॉल्फी परतलें.

ते रातीं तीं णवांक परतलीं तेन्ना कँटिनांत एकूय गिरायक नासलें. जेवले उपरान्त हांवें बाबनीकडल्यान भाजून घेतिल्ल्या काजूबियांचे सुमार शंभरेक म्होंवले तांच्या फुड्यांत दवरले.

"कैसा लगा हमारा गोवा?" हांवें विचारलें.

"अच्छा लगा। हमारा बंगाल भी कुछ ऐसा ही है, लेकीन बंगाल छोडकर भी तो बरसों बीत गये हैं" तांच्या मदल्या एका दादल्यान म्हळें.

"सबेरे हमने मंदीर और चर्चेस देखें और श्यामको कलांगूट, वागातोर बीचीस देखने गये।" दुसऱ्यान म्हळें.

"उधर दोना पावलामे किसी फिल्मकी शुटींग चल रही थी।" एके बायलेन म्हळें.

"हां... हां" हांवें म्हळें, "पंद्रह दिनो पहले इधर मोलममें भी किसी कन्नड फिल्म की शूटींग चल रही थी। हमारे कँटीनमे भी एक सीन फिल्माई गयी है।" डॉल्फी म्हाका पळयता तें एका दोळयान पळोवन हांवें सुरय फटास मारली.

"कल शामको हम लौट रहे हैं, बील रेडी रख देना।"

एका दादल्यान भायर सरतना म्हाका सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं भावोजी स्कुटर घेवन म्हाका बशीकडेन पायतां म्हूण आयलो.

"ना... ना, आयज आनी हांव कामाक वचना; पिकनिकेक येवंना म्हूण म्हजे ऑफिस वांगडी म्हाका कशेच दवरचेनात. आयज वचना, आनीक दोन तीन दीस बरो ना जालों म्हणून तांकां कॅट करतां." हांवें भावोजीक कॅट केलें; पूण तो उमेदीन स्कूटर घेवन परतलो.

डॉल्फी नाश्ताची ऑर्डर दिवंक आयलें तेन्ना हांवें ताका मुद्दाम विचारलें.

"डॉल्फी, तुम्हे भा गया गोवा?"

"हां..." डॉल्फी हय-न्हयशें हांसलें.

"तुम्हारा जी लगेगा गोवा में?"

"क्या?" डॉल्फी चक्रावलें.

"तुम किसी गोवनसे शादी करना पसंद करोगी?" मातशें घुंवडावन हांवें विचारलें.

डॉल्फी घुसपल्लेभशेन जालें. "नहीं... नहीं, मेरी शादी तो तय हो चुकी है।" अशें म्हणत तें आपले भाबडे चालींत चलत रावलें.

म्हजें तोंड काळें पडलें. दुसऱ्याच्या सुखाची नसाय करची न्ही म्हणटात; पूण त्या खिणाक म्हाका डॉल्फीच्या भावी घोवाचो दुस्वास दिसलो. डॉल्फीसारके चलयेवांगडा लग्न जाता तो सुखाकच पावतलो, ताका जेवण-खाण कांयच नाका. डॉल्फीक पळयल्यारच ताचें पोट भरतलें. डॉल्फीकडेन लग्न जावपाक नशीब जाय! जो डॉल्फीकडेन लग्न जावपाचो आसा, तो खरोच भाग्यवंत. कितलो वेळ हांव मनांतल्या मनांत बडबडत उरलों.

दनपारां जेवणा उपरान्त सगळयांनी म्हाका थँक्स दिले; आनी परतुपाचे तयारेक तीं रुमार गेलीं.

"फिर कब आओगे गोवा मे?" बील फारीक करपाक आयिल्ल्या तांच्या मदल्या एका दादल्याक हांवें विचारलें.

"हमारा ॲग्रीमेंट फायनलायझ नहीं हुआ है, अगले महीने आना पडेगा, लेकीन मैं अकेलाही आऊंगा।"

"तुम्हारे सर्वीसमे कुछ कमी पड गई तो हमे माफ कर देना." नमळपणाचो आव हाडीत हांवें म्हळें.

"जी नहीं... थँक्यू व्हेरी मच... आपके पास जादा वेटर न होते हुये भी आपने हमे जो प्रॉम्प्ट सर्विस दे दी, उसके लिये बहुत शुक्रिया।"

"वेटर का तो यहां बडा प्रॉब्लेम है। नौकर कहीं मिलते ही नहीं!" ताचेकडेन बील दित हांवें म्हळें.

"हां... हमारा भी तो यही प्रॉब्लेम है, नौकर लोग कहीं मिलते ही नहीं। हमारे बंगलेमे तो चार नौकर भी कम होंगे, मगर डॉल्फी-कौशीकके बजाय तिसरा अभी तक नहीं मिल पाया है। ताणें म्हळें.

"लेकीन, अब डॉल्फीकी शादी होगी, फिर?" हांसत हांसत हांवें थोमणो मारलो.

"इसके वास्ते हमने अच्छी तरकीब सोच निकाली है," पैशे दित ताणें म्हळें, "हमने डॉल्फीकी शादी कौशीकसे तय कर ली है, उससे डॉल्फीके शादीकी जिम्मेदारी भी निभायी जायेगी, और दोनो हमारे ही घर रहेंगी।"

हो तो ऽ अजागळ कौशीक डॉल्फीचो घोव जातलो! ताचेकडेन तें बाबडें डॉल्फी लग्न जातलें...?

कँटिनाचो वयलो सिमेंट काँक्रिटाचो स्लॅब घो ऽ करून कोसळटा आनी ताच्या पोंदा हांव वळवळटां, अशें म्हाका खीणभर दिसलें.

त्या बोवाळांत तो बंगाली बाबू केन्ना भायर सरून गेलो, हांवें ताका कितलें बील दिल्लें, ताणें शंभरांच्यो कितल्यो नोटी दिल्ल्यो, वयले पैशे दिवपाचे आसल्यार ते हांवें ताका दिल्यात वा ना हाची म्हाका आजून याद जायना.

**

५

# खामसुत्री

नवे गिरणीच्या भोंग्याचो आवाज दोंगरावयल्यान हुबून आफ्रामेंतांत मुट्टे पुंजायतल्या जानूच्या कानांत पडलो तसो घुंवळूंक लागिल्ल्या मनशाचेर पचपचीत उदक मारतकीर तो जसो सावचीत जाता, तशी गत कितलो वेळ जालो हाची जाणविकाय नाशिल्ल्या जानूची जाली. बेगिबेगीन ताणें मुट्टे पुंजायिल्लो खोंटलो कमरार थिरायलो, आनी कोडमेची वाट धल्ली. मुट्टे तोपून काडपाची कांट्यां-बडी काजी रोपल्याक हुमकळायली आनी दीसभर वतांत टळटळून, गोरवांक धांवडा-धांवडान एकठांय केल्ल्या दोन तीन खोंटल्यांतले मुट्टे घसा घसा करून कोळमेंत ओतले. पिकून अळंग जाल्ल्या त्या मुट्टयांतलो किट्ट काळो रोस, जिवाण्या-चालीन कोळमेचे नळयेंतल्यान फोणकुलांत दवरिल्ल्या लातांत निथळळो. कोळमेचे धडेर बसून ताणें सगळे मुट्टे वळळे, बियो काडून खोंटल्यांत दवरल्यो, आनी सदांच मुट्टे धोडावन काळो जाल्लो तोणको घेवन तो मुट्टे धोडावपाक लागलो. लातभर रोसाचे मुट्टे धोडायतां, माडयतां म्हळयार तो सामको हुमेलो. सोन्या भाटयेर व्हरून रोस पावोवचो, भाटकारागेर बियो पावोवच्यो आनी दुयेंत चेड्याक वखदाखातीर पैशे मागून घेवचे अशें चिंतून ताणें चिवडां धोडावपाक हात घालो, इतल्यांत निरो पिवपाचे उमेदीन धांवन येतल्या भाटकाराच्या तिगाय भुरग्यांक पळोवन ताच्या कपलाचेर हुसक्याची मिरी पडली. ताणें चिवडांक चरांटून दोर बांदलो आनी निरो पघडावपाकच हाडून दवरिल्ल्या फातरांतलो एक सादारणसो फातर चिवडांचेर दवरलो. बारीक धारेन निथळटलो निरो तिगांनीय काजू पानांचे दोणे करुन घोंट घोंट घोंटलो. पानांतल्यान गळटलो निरो तांचे पोन्ने मुस्तायकेचेर पडून सगळयाक ओलेशे दाग उदेले. निरो पिवन पुरो जातकीर तांणी मांयक निरो व्हरपाक हाडिल्लो शिसो धारेर धरलो. अर्दो उणो शिसो भरचे आदींच निऱ्याची धार बंद जाली, तशी तिगांनीय " जानो, आनी फातोर दोवोर" म्हणत आड्डी मारली. जानू उबगलो. तो जाता तितले बेगीन वचपाचें करतालो, तितलो चड कळाव ताका भुरग्यांचे उमेदीक लागून जातालो. चिवडांचेर दवरपाक

आनीक एका मोठ्याश्या फातराक ताणें हात घालो, उमेदीन भाटकारालो व्हडलो पूत ताका पालव दिवपाक आयलो. ताणें त्या जडेल्या फातराक एकेवटेन हात घालो आनी चिवडांचेर दवरपाक उबारलो, अर्दकुटो उबारिल्लो तो फातर जड जावन ताणें धप्प करून सोडलो. हेवटेन बळ मारिल्ल्या जानूच्या हाताचेर पेज येवन फातर ताचेवटेन लवंडलो आनी पांयां आखाण्याचेर पडून रक्तशिंवर जालो. भळभळटलें रगत कोळमेंतले नळयेंतल्यान निन्याच्या शिश्यांत निथळून बाटली तांबडी गुंज जाली. भाटकाराचे धुवेन भिवन बेगिबेगीन बाटली सकयल दवरली. मुट्ट्यां रोसाच्या अर्कान जानूचो आखाणो भगभगलो. पिंजकऱ्या खोमसाची एक फाळी काडून ताणें आखाण्याक बांदली. दोगांतिगांय भुरगीं एकामेकाक काचाबूल जावन पळयत उरलीं. जानून मोन्यानी रोसाचें लात उबारलें आनी सोन्या भाटये वटेन पावली मारली; तशी भाटकाराच्या तिगांय भुरग्यांनी मोन्यानी घरची वाट धरली. एका पांयान कुटकुटत जानू माथ्यार रोसाचें लात घेवन भाटयेर आयलो. भाणा मुळचो उजो सारता थंयचो उठून गणसून लाताक हात लायलो आनी रोस बल्लांत ओतलो.

"पटयेर बरय रे आयचो डबो" गणसूक सांगून जान्यान रिकामें लात उबारलें. "ये जान्या...मार मरे इल्हां" फुकटचो सोरो पिवन जाम जाल्ल्या पांडग्यान आपल्याच बापायची भाटी जाल्लेभाशेन झेत केलो. जानून जाप काडली ना.

"जान्याको आतां पयसो जाला आस्तो रे, आतां .तो येसो मात्ता , तो होडलें मारपी मुरे, फोरेन बा तेसलें." सोन्यान मदेल्ल्या बस्त्यांवान जानूच्यो बकच्छायो केल्यो.

जानूचें आयज किदेंय पूण बिनसलां रे, ना जाल्यार एक घोंट मारले बगर वचचो नासलो. बरो उमेदीर आसलो जाल्यार हाकाय व्हरूं येतालो चोरयेक, हाडटलो आसलो एक बारीकशें देळकूट खांदार मारून." गणसू चुरचुरलो.

"तो मेलो हाड्टो लाकूड, हाडकुटो फुंयय नोकोन पोडोत म्हुणों मात भिरांत." लकलकत बस्त्यांवान म्हळें. सोन्याच्या नेटार सगळे उलयताले, जानूच्या आखाण्याक बांदिल्ले फाळयेकडेन कोणाचेंच लक्ष गेलें ना वा जानू लंगडत चलता म्हणपाचेंय एकल्याच्याय ध्यानांत गेलें ना.

जानून परत आफ्रामेंतांत येवन व्हरपाचें सामान एकठांय केलें आनी खोंटल्यांत भरलें. बाटलेंत उरिल्लें उदक घटाघटा पिलो आनी सदचे भशेन भाटकारागेर काजू-बियो पावोवपाक तो चलूंक लागलो. घराकडल्या दुयेंत धाकट्याच्या हुसक्यान ताच्या मुखारचो काळोख दाट दाट जायत गेलो.

"आजून आमोरी जाली ना, आनी पोत्तोलो रे जान्या? पोयलो मुरे पिटेर, आमगेलो भागेली कोहलो तो!" कोठयेकुडींतल्या साकांत काजू-बियो ओततना

भाटकान्नीचीं उतरां ताच्या कानांत उज्याभशेन रिगलीं.

"तो मेलो राखतेलो काजू, आडशी तो एक नुम्री, फुडल्या वोर्सा आनी कोणाकूय दिवोप काजू राखपाक!!" पडवेवयल्या ऑल्तेरांत हयन्हयश्या उजवाडांत सोन्याचो ग्लास आनी चिरूट घेवन बशिल्लो भाटकार उलयलो, तेन्ना मात जानू शेकानशेक भिलो. भाटकाराकडल्यान पयशे मागून, धाकट्याक दोतोरागेर व्हरचो अशें थारावन तो आयिल्लो; पूण भाटकान्न आनी भाटकाराचीं उतरां आयकून ताचो धीर गळसणलो.

"किदें कोत्ता रे थोंय इतको वेळ?" भाटकान्नील्या धेंगशासयत जानू बेगिबेगीन पडवेर आयलो. भाटकाराकडेन पयश्यांक कशें उतर घालप हो ताच्यामुखार प्रस्न पडलो. ताका खीणभर आपलीच काकुळट दिसली.

...कितें म्हजी जीण ही!... म्हजे भोंवतणचे सगळे शेतकामती आपल्यो स्वताच्यो काजू कसतात... आनी हांव... घाण्याक बांदिल्ल्या बैलाभशेन... भाताचे, तणाचे राशीर आसूनय तोंडाक कण्णूल बांदिल्ले भशेन... हांवें म्हजो जीव दुसऱ्याखातीर काबार करप आनी वयल्यान उलोवणी... तापोवणी... तो मोन्यानी घसघसून रडलो.

"भाटकार" आशिनाशिल्लो उश्णो धीर एकठावन ताणें म्हळें.



"हूं"

"भाटकारा, थोडे पौश्ये जाय आसले."

"पौशे?"

"हय भाटकारा, धाकटो दुयेंत आसा, तेका दोतोरागेर व्हरों जाय."

"कितके जाय?"

जानूक जिवांत जीव आयलो. गाग आयिल्लेवरी ताणें म्हळें,

"शम्मर भाटकारा."

"मारयाण...!" चिरुटाचो धुंवर काळखांत शेणयत भाटकारान आपले घरकान्नीक उलो मारलो.

"किदें?"

"हेका शोंबोर रुपोय दी."

"शोंबोर?"

"होय गो."

"तुकां पिशें बा लागोंक ना मुरे पिटेर, तेका शोंबोर रुपोय कित्याक? आरे काजूंक जावंना आजून एक म्हयनो, आनी पोयले पावट शोंबोर रुपोय?"

"दिगो तेका, तेगे चेडो बोन्ना फूंय."

"तेगे उतराक तूं पातयेता पिटेर? तो एक नुम्री फोटींग मुरे... आयज भुरगीं

काजूंनी गेलो तेंका चार काजी भाजून दिवंक किदें जाल्लें फूंय तेका?''

जान्याक उतर काडपाचें धाडस जालें ना.

''हो कितू मुट्टे गोरवां खावोयता आनी कितू बियो लिपोवन दोवोत्ता कोण जाणा.'' परिस्थितीन लाचार जाल्लो जानू, भाटकान्नीलीं उतरां गिळीत आसलो.

''मोड्या जोल्मोलो तूं कोकण्यागेर, आमोरी बिमोरी कांयच लागोना तुकां.'' व्हडले उपकार केल्ल्याच्या थाटांत भाटकान्नीन शंबर रुपयांची नोट जानूचेर शेंवटिली.

''देव चड बरें करूं भाटकारा.'' हात जोडून तो दुखऱ्या पांयान सपणां देंवलो.

''चेडो बोन्ना म्हूणोन नीबाचेर फाल्यां काजूंक वचोंनासतना रावशीत.'' भाटकान्नीचीं उतरां ताणें आयकून आयकूं नाशिल्लेभशेन केलीं.

काळखांत तो भायर सल्लो. आड्याच्या भायर वाटेरच उडयिल्ल्या लाकडांच्या देळकुटाक ताचो दुसरो आखाणो आपटलो आनी ताचो जीव गेल्ल्याभशेन जालो.

''आवयस्स... मेलों.'' तो किळचलो.

भाटकाराच्या आड्याभायल्या लाकडांकुपांतलीं लाकडां चोरपाक आयिल्ल्या गणसून जानूचो आवाज जुस्त वळखलो.

''जान्या... जान्या... मात्सो राव.'' ताणें म्हळें.

जानून आपल्याच्यान नज म्हणचे पयलींच कुपांतल्यान चोरिल्लें तेंच जानूक आपटल्लें देळकूट ताच्या माथ्यार चडयलें.

''चल व्हरोन भाटयेर वडय.'' तो फुतफुतलो.

जानू माथ्यार देळकूट मारून भडकत भडकत चलत रावलो. दोन-तीन बरगां घेवन मुखार आयिल्ले पांडगो, बस्त्यांव आनी गोपी फेणी पिवपाक बशिल्ले.

भाटयेर पावपाक जानूचो आखाणो परतून आपटलो; आनी एके किळचेसयत माथ्यावयलें देळकूट घेवन जानू घो ऽ करून शेंवटलो. माथ्यावयलें आंडबर सकयल दवरून गणसून ताका उबारलो आनी भाटये उज्या उजवाडांत माटवांत साकार बसयलो. रगतान तांबडो गूंज जाल्ल्या ताच्या आखाण्याचेर गणसून शिपीभर फेणी रकयली तसो चुरको आयिल्ल्यान जानू किळचलो. ताका घुंवळ आयिल्लेभशेन दिसलें.

गणसून एके ताटलेंत घालून ताका पेजेचो निवळ पिवयलो. निवळ पिवन तो मात्सो सावचीत जालो, तशे बस्त्यांव, पांडगो परत फेणी घोटपाक बसले.

''तूं घेतय मरे जानू?'' पांडग्यान विचारलें.

''नाका... नाका.. म्हाका नाका.''

''आरे, नाका कित्या म्हुण्टा रे तूं? येदें नाकूड चोन्न हाडलां, तेज्या वाट्याचें पिवचोना?'' बस्त्यांवान म्हळें.

"दी रे तेका ओतून." गोपी.

पेजे निवळ पिल्ले ताटलेंत ताजी फेणी रकोवन तांणी भुरग्यांक कोन्नाडो करुन पिवयतात तसो जान्याक पिवयलो. आनी ताटलेंतल्या सोऱ्याचो अदमास नाशिल्ल्यान आपूण कितलो पिलां हें येवजुचे पयलींच ताका नशा चडली.

सोरो पिवन बडबडटल्या जानूक पळोवन ताका पिवोवपी पांडगो, बस्त्यांव, गोपी सयत गणसूय पोटभर किटकिटलो. शेकीं दोगातिगांनीय ताच्या भुजांक धरून, लकलकत व्हरून ताका ताचे खोंपीच्या दारांत उडयलो.

- जोर खूबच चडिल्ल्यान जान्याचो धाकटो हातरुणार फडफडून, बडबडत आसलो.

- आपल्या बोल्सांत ती शंबराची नोट आसा काय ना हाचें शितीद नाशिल्लो जानू सोऱ्यान बडबडटालो.

- आनी पुताची आनी घोवाची ती आवतिकाय पळोवन, कारपांचे वण्टीक फाट तेकोवन बशिल्ली जानूची बायल दुकां गाळटाली.

सुकता सुकता तशी धाकट्याच्या कपलावयली घडी भिजोवपाची सुद्दां तिका सुद्द उरली ना.

**



# बंड

म्हालगड्या गांवकारांनी आपापलो खांद मारून कात सोलून सुळसुळीत केल्ली सांवर होळयेच्या नेमांत घाली. मुळावें देवसपण करून जाणट्या गांवकारान गाराणें घालें; आनी गांवकारांनी हाडलेले नाल्ल सांवरीच्या मुळार मारून फटाफट फोडले. सांवरीचे तेंगशेर आदींच बांदलेले वालीक धरून जाणटो गांवकार वयर चडलो. वांगडा व्हेल्ले कळसुलेंतलें उदक सोडून ताणें सांवर सामकी बुळबुळीत केली. मागीर सांवरी तेंगशेवयलो फुलां-झेलो काडपाक गडे खरशेवपाक लागले. मदीं मदीं गांवकार उदक रकयत रावतालो, ताका लागून एकामेकाच्या खांदार उबे रावन पोट ओडीत वयर चडटले गडे सुळसुळून घोऽ करुन हेरांकय घेवन मुळांत दाळून दवल्लेल्या भातयणा राशीर पडटाले. चान्याच्या उजवाडांत सांवर सामकी तिकतिकताली. वर्सुक्या शिगम्याच्या दुरगा निमतान जमिल्ले गांवभरचे दादले, बायलो, भुरगीं हांसू-हांसून जाम जाल्लीं. शिगांवचो होळये दुरीग पळोवपाक रेंजिदोरान आफोर्साद आपोवन हाडिल्ले कुळेंच्या पोस्तार निकतीच बदली जावन आयिल्ले गोरे पिट्ट पांखले जाल्यार हांसून तांबडे गुंज जाल्ले. हांसतां हांसतां फिरंगी भाशेन ते रेंजिदोराकडेन कितें तरी मोठ्यामोठ्यान उलयताले.

आपल्या घोवा वांगडा म्हादेवा देवळाच्या सोप्यार बसून दुरीग पळयतल्या गमतीक मात केन्ना काय गड्यांच्या हाताक फुलां-झेलो लागून दुरीग सोपल्यार पुरो जाल्लें. दुरगाचें देवसपण सामकें खर, त्या खातीर दुरगाकडेन गाराणें घालपाक काकाभटान गमतीचे आवयक, गमतीक कुळेंच्यान आपोवन हाडपाक लायिल्लें.

निमाणे मोठे काडावडी उपरान्त, एका गड्यान पोटामुळा सुकें भातयण धरून वयर वयर सरपटत तेंगशेर वचून गांवकाराकडल्यान फुलां-झेलो घेवन गळयांत घालो तेन्ना जमिल्ल्या सगळयांनी मोठ्यान बोवाळ माल्लो. वालीक धरुन गांवकार देंवलो आनी ताणें परत गाराणें घालें. सगळे गडे सांवरी भोंवतणी धुंवन गायत होरावणी करपाक लागले मात, खिणाभरयांत दुरगाकडली गर्दी उणी जाली. मोचेमाडकारांलें नाटक पळोवपाक सुवात आडावंक सगळयांनी देवळाचे फुडलेवटेन धांव माल्ली. काकाभटान गमतीक आनी रामाक दुरगामुळां आपयलीं आनी

गांवकाराक घडघडीत गाराणें घालपाक सांगलें. दोगांकूय घेवन तो देवळांत आयलो आनी देवापांयांकडलो नाल्ल गमतीचे होटयेंत घालीत ताणें म्हळें, "कांयच भिवं नाका, म्हादेवाचेर विस्वास दवर, देवाची सासाय तुका रोकडीच दिसतली. नेमान ह्या नाल्लाची गंधफूल घालून तुज्या घोवाक पुजा करूंक लाय. पळय, वर्सभितर तुजी कूस उजवतली; देवाचे कृपेन तुगेर चेडो जातलो. गोरो पिट्ट... सारको तुजेभाशेन.

गमतीन खीणभर दोळे धांपले. ताच्या दोळयांमुखार खऱ्यांनीच गोमटो गुडगुडीत चेडो उबो रावलो, आंगान गोरो पिट्ट... घारश्या दोळयांचो, लांब पिंगश्या केंसांचो... दुरीग पळोवंक आयिल्ल्या पांखल्यांभशेन... देवाक हात जोडीत ताणें मनांतल्या मनांत म्हळें, 'देवा, म्हजेभाशेन गोरो पिट्ट जायच असो ना, घोवाभाशेन काळो सांवळो जाल्यार जावं... पूण म्हजी कूस उजवूं, म्हज्या पोटांत भुरगें जल्मूं...'

भटान व्होटयेंत घाल्लो नाल्ल घेवन गमती नाटकाक राव नासतना, घोवावांगडा आवयच्या घरा आयलें, कपड्यांचे पिशवेंत ताणें नाल्ल सांबाळून दवरलो आनी घोवाशेजरा कानाप्यार आड पडटां पडटां ताणें हात जोडून म्हळें,

"देवा सायबा, तूं पूण सांबाळ रे म्हाजी लज."

रामाकडेन लग्न जावन सात वर्सां जाल्लीं, पूण आजून गमतीगेर भुरगें जावंक नासलें. पयल्या दोन वर्सांत तांकां ताचें व्हडलेंशें दिसलें ना; पूण मागीर मागीर घरच्यांचीं आनी शेजाऱ्यांचीं त्रोसां आयकून दोगांयच्याय काळजाक हुलोप पडपाक लागलो. गमतीची मांय जाल्यार ताका पावला-पावलाक हिणायताली.

"ह्यो पाकलिणी घरांत कित्याक सोबेक दवरपाच्यो?"

"वंश वाडटलो जाल्यार भुरगें जायच!"

"वांजूड मेल्लें...!"

"आंकवारपणांत किदें करून आयलां कोण जाणा!"

आवयचीं उतरां आयकून रामाकय सामकें वायट दिसतालें; पूण आवयक जाप काडपाची धमक ताच्या आंगांत नासली. आपली बायल खंतता ती पळोवन तो सामको निर्शेतालो.

शिगांवच्या वाड्यावयल्या सगळया चलयांमदीं गमती एकलेंच गोरें पिट्ट आसलें. आंगलोटानय घसघशीत आशिल्ल्यान तें सट्ट करून कोणाचेय नदरेंत भरतालें. वाड्यावयलीं बायलां, चेडवां कामा-वावराक गेल्ले कडेन फकाणां मस्कऱ्यो करतां करतां गमतीचे गोरे कातीचेर घसरतालींच.

"गमतीलें लग्न जावं दी गो, मागीर पळयात तुमी, गमतीगेर भुरगें जातलें तें गमतीपरसय गोरें गोरें जातलें... सामकें गोरें गोरें पिट्ट. गमती वयल्यावयर

वूंयऽवूंय करतालें, पूण सगळीं आपले गोरे कातीचे नसायेन फकाणां करतात तें पळोवन ताकाय काळजांतल्यान खातकुतल्यो जाताल्यो.

कांय वर्सांनी वांगडच्यांचीं लग्नां जावन तांगेर पांच-पांच, स-स भुरगीं जालीं, पूण गमतीगेर मात पाळणें हाल्लेंच ना.

कुळारा वतकीर आवयन चुरचुरचें, "पोराच्या नशिबांतच ना भुरगें, जाल्यार तें तरी किदें करतलें बाबडें?" मावोड्या गेल्लेकडेन गमतीलो घोव दिश्टी पडटकीर शेजाऱ्यांनी म्हणचें, "गमती बाबडें दुसऱ्यांल्या भुरग्यांक सामको जीव घालता, तागेरय जाल्यार पुरो एक भुरगें." भुरग्यांचे ओडीन दोगांयचोय जीव सामको हुमकळटालो.

हालिंसरा रामाचें धंद्यारय सारकें लक्ष लागनासलें. बापायलो तो एकसुरो पूत. बापाय फाटल्यान तागेल्यो दोनय बैलगाड्यो तोच पळयतालो. कुळेंचीं, मोलेंचीं, बिंबलांतलीं- सगळीं भाडीं तोच पावयतालो. कोणालें तण हाड, कोणाले चिरे पावय, रानांतल्यान चिराव लाकूड देंवय, जात्रेचें सामान पावय हीं कामां करपाक सगळयांक रामाच जाय पडटालो. पोस्तारुय ताची बरी वळख आसली. रोंद पावना थंय धरिल्लो चोरयेचो माल हाडपाक काब रामालीच बैलगाडी धाडटालो. आठ वर्सां फाटीं शिगांवां भाडें घेवन गेल्लेकडेन गमतीक पळोवन तो सामको पिसो जाल्लो. जाणटेल्यांक मुखार काडून ताणें गमतीखातीर उतर घालपाक लायिल्लें. शिगांवां म्हादेवा देवळाकुशीनच व्हंकलकारांच्या दारांतल्या माटवांत तांचें लग्न मोठ्या गडगडान जाल्लें. शॅफ, काब, रेजिदोर मुद्दम लग्नाक आयिल्ले आनी न्हवरेकारांचो लोक पळोवन गमती बऱ्याक पावलें अशें सगळया शिगांवकारांक दिशिल्लें.

आपणागेर भुरगें जावचें म्हूण रामान कोण कोण सांगता तें तें देवसपणय करून पळयलें. मुंजो, खेत्री वंश वाडूंक दिनात अशें कोणें सांगलें तेन्ना ताणें कितलोसोच दुडू मोडून राक्षस मळकाच्या देवळांत देवसपण केल्लें; दसऱ्याच्या भाराकडल्यान उतर घेतलें; प्रसाद, पाकळी, घाडी, भगत सगळें सगळें करून तो खरशेलो, पूण देवाक ताची काकुळट आयलीच ना.

होळयेच्या दुरगाकडेन गाराणें घालपाक भटान आपयला म्हणपाचो रकाद गमतीचे आवयन दिल्लो तेन्ना खरें म्हळयार रामाक उमेदच नासली; पूण निर्शेल्ले गमतीचें तोंड पळोवं नज जावन तो बैलगाडी घेवन मावड्या आयिल्लो.

रातभर दोगांकय न्हीद पडली ना. मोचेमाडकारांल्या नाटकांतलें मोठ्यामोठ्यान उलयल्लें भाशण तांकां हयन्हयशें आयकूंक येतालें. फांतोडेर नाटक सोपून लोक घरा परततकीर रामा उठलो आनी बैलांक घेवन न्हंयचेर वचून आयलो.

च्या, पोळे खावन दोगांय कुळयां परतुपाक भायर सरलीं. भटान दिल्लो नाल्ल

दवरलेली पिशवी ताणें मोठे जतनायेन गाडयेच्या कडव्या-खुटाक लायली. चलते गाडयेंतल्यानच दोगांनीय देवळायटेन नदर घुंवणावन देवाक नमस्कार केलो आनी कुळेंची वाट धरली. सगळो गांव जागरणान न्हिदिल्लो. मार्गार आशिकुशीक कोणूच झळकीक येनासलो. गवळयांच्या मांगराफुडल्या सुकलेल्या व्हाळांतल्यान ताणें बैलगाडी वयर काडली आनी भरीपाच्या दोंगरा मुळसांतले वाटेक तो लागलो. इतल्यांत धुल्लाचे लोट हुबयत फुडल्यान येतलें मोंतेरीचें काळें रोंद पळोवन ताका कडकडो भरलो. फाटल्या दिसांनी मोंतेरीन शेजारच्या गांवांनी सामको अच्छेव घाल्लो. भाताचें बीं हाडपाक सुप्यां वचपाक भायर सरिल्ल्या शेतकामत्यांक ताणें ओगीच 'जयहिंद' करपी म्हूण फार पेटोवन जितेच मारिल्ले. सुटके झुजाऱ्यांक धरपाक तो मेळत थंय भोंवतालो. खंयचीय बायलमनीस दिसली जाल्यार तो सामकोच चाळवतालो. शिगम्याचे परबेक सुटके झुजारी घरा आयल्यात म्हणपाचें ताणें आयकलें तेन्ना दुबावाचीं सगळीं घरां ताणें स्वता तपाशिल्लीं. रोंद लागीं पावतां पावतां रामाचेर आकांत आयलो. ताणें मोंतेरीक दिसचें न्ही म्हूण गमतीक गाडयेर आडवें न्हिदपाक फर्मायलें. पूण खुनशी दोळयांच्या मोंतेरीची तिचेर नदर पडलीच. ताणें जीप थारायली आनी फिरंगी भाशेंत कितें तरी उलयत दोगा वाटपाड्यांक बैलगाडयेकडेन धाडले. "जाग्यावयलो हालशी जाल्यार तुका आर्मा गुळयेन जितो मारतलो म्हूण सांगलां." एका वाटपाड्यान रामाक धपकायलो आनी दुसऱ्यान गमतीक सकयल ओडपाक हात घालो. गमतीन मोठ्यान बोब माल्ली. वाटपाड्याच्या हाताक घांस मारलो; पूण तो बदलो ना. दोगय वाटपाड्यांनी तिका फरफरीत ओडून सकयल देंवयली. दैत कसो मोंतेर रोंदांतल्यान देंवलो आनी गमतीक ओडीत ताणें कुशीच्या हुस्के झोपां आड व्हेलें. गमतीच्यो किळच्यो रामाच्यान आयकूंक नज जाल्यो; पूण जिवाच्या भंयान तो कांयच करपाक शकलो ना. गमतीची विटंबना करून मोंतेर परत रोंदांत बसून शिगांवचे वाटेक लागलो तेन्ना रामा धांवत गमतीफुड्यांत गेलो. गमती सामकें पिसुडिल्लें; तागेलें न्हेसण पिंनिल्लें; तें सामकें रगतबंबाळ जाल्लें. रामान ताका बेगिबेगीन उठयलें आनी हाताक धरून गाडयेंत बसयलें. थंयसावन घराकडेन पावसर दोगांयच्याय तोंडांतल्यान एकूय उतर फुटलें ना.

रामान आंगणांत गाडी उबी केली. घरांत आनी आशिकुशीक कोण दिसनात तीं पळोवन ताणे गमतीक बेगिबेगीन गाडयेंतल्यान देंवयलें आनी हाताक धरून घरांत हाडलें. कुडींत भितर सरतनाच गमती रामाक वेंग मारून हुमश्या-हुमश्यांनी रडलें.

"रडों नाका तूं, नशिबांत आसा तें चुकना. जें घडलां ताचेर आनी चिंतपाचेंच ना; विसरोन वचपाचें." गमतीक समजायत रामान म्हळें. ताका वायट दिसचें न्ही म्हूण तो रोकडोच न्हंयचेर वचून न्हावन आयलो आनी भटान दिल्लो नाल्ल

देवाफुड्यांत दवरून ताणें पुजा केली. नित्यनेमान पुजा करतां करतां दोन म्हयने उलगले आनी मायाच्या एका उबाळा दिसा, तीनसानचे कातरीर कितें तरी खायनाफुडें गमतीक सुके ओंकारे येवपाक लागले. तें धांवत न्हाणये खोंपींत गेलें, तागेली मांय सामकी उमेदीन भुरकुटली; बेगिबेगीन तिणें बडिशेपीचें उदक करुन गमतीक पिवपाक दिलें.

"पाव गे सायबिणी, वंश वाडय, वेलीर फळ दी." देवाक पांयां पडत तिणें म्हळें.

कालपयर मेरेन आपणाकडेन नाका पुडयो फुलोवनच उलोवपी मांय अचकीत बदलिल्ली पळोवन गमतीक सामकें अजाप जालें. बैलगाडी घेवन तेन्नाच परतल्ल्या रामाक तिणें ही गजाल सांगली तेन्ना दोगांकूय सामको हांसो आयलो.

ते रातीं जेवणा उपरान्त आयदनां बी घांसून जातकीर मांयन गमतीक आपले कुशीक बसोवन, आतां कसली जतनाय घेवंक जाय, कितें कात करूंक जाय तें मोठे उमेदीन विसकटावन सांगलें.

चिमणे दिवो घेवन गमती आपले कुडींत आयलें तेन्ना कानाप्यार आड पडलेल्या रामाक दोळो लागिल्लो. ताका उठयनासतना ताचेकुशीनच तें आड पडलें; पूण ताका दोळो लागलो ना. निमाणें आपली कूस उजवली म्हूण ताका सुमाराभायर उमेद जाल्ली. आतां मांय त्रोसां मारची ना, आवय चुरचुरचीना... दुरगाचें गाराणें फळाक येयलें... भटान सांगिल्लें उतर खरें जालें... आतां म्हगेर चलो जातलो... गोरो गोरो पिट्ट... म्हजेभाशेन...

चिंततां चिंततां तें खीणभर कांचवेलें. ताच्या दोळयांमुखार मोंतेरीची गोरसाण गिरगिरूंक लागली. तांबड्या पोटाचो मोंतेर, लबलबीत आंगाचो, खुनशी दोळयांचो... फिरंगी गाळी घालीत ताणें ताका ओडून व्हेल्लें... पांयां पडिल्लें आसतनाय जबरदस्तीन कपडे पिनिल्ले... आनी मात काकुळट करी नासतना गोरवांभशेन भोगिल्लें.

गमतीचें आंग शिरशिरलें. आपल्या सगळया आंगाक भगडां पडल्यांतशीं ताका दिसलीं, आपल्या कुसव्यांत वाडटा तो त्या राकेसाचोच विटाळ न्हय मूं? ताची तकली गरगरूंक लागली. सुस्त न्हिदिल्ल्या घोवाक ताणें खुनळावन उठयलो.

"फाल्यां फांतोडेर राधेगेर वचून वखद घेवन यो." करारी आवाजांत गमतीन रामाक फर्मायलें.

"कसलें वखद?" न्हिदसुन्या आवाजांत रामान तिका विचारलें.

"आनी कसलें? गाब घळघळावपाचें." गमतीन म्हळें. चकाचूर जावन रामा गमतीक पळयत उल्लो.



७

# आरे म्हाज्या पुता ऽऽ

“बाये, आयज दीस कोण गे?” कानाप्यार पडिल्लेकडेन परवंता आसतना, देवाकुडीवटेन नदर घुंवडायत अहिल्यान आपले धुवेक विचारलें.

“आयज सोमार न्हू गे!” धुवेन जाप दिली.

“बाये म्हाकां मात्शें न्हाणयेंत व्हरोन दोन तांबये रकयता म्हाजेर? कितक्या तेंपान देवा आंगार एक फूल तरी घालतां!” अहिल्लें काकुळटेक आयलें.

“आवय, नाका आशिल्ले उतळताप नाकात आं, बरी ना ती पयलीं पळय आनी मागीर कर तुगेलीं देवसपणां.” धूव मात्शी तिडकली.

आपल्याक उठोवंक हात घालपाचीं चिन्नां दिसनात तें पळोवन, जायना आसतनाय अहिल्लें उठपाचो यत्न करूंक लागलें. धोडावल्ल्या आंगान कूस परतुपाक सुद्धां तिका त्रास जाताले. आपली आवय धोरणी- एकदां दाडेक धरिल्लें सोडूंक नकळो, हें जाणा जावन धुवेन उठोवपाक आपले आवयच्या खाक्यांत हात घालो. धुवेन धल्लां आसतनाय अहिल्लें चलतना सामकें झिडपतालें.

“बो, बो गे, हांव धरतां तुका एकेवटेन” अशें म्हणत तिगेलो धा वर्सांचो नातू धांवत आयलो; पूण धुवेले व्हडले जावेन ताचेर धेंगसो घालो, तसो ताका वरमेवन फाटीं सरचें पडलें.

धुवेन आवयक न्हाणयेंत व्हेली, एका कदेलार बसोवन तिच्या आंगार चार-पांच तांबये उदक रकयलें, पुसून दुसरें जुनेर न्हेसयलें आनी देवाकुडींत हाडली. उबी रावपाची सुद्धां तांक नासतना अहिल्यान नातवान हाडिल्लीं फुलां देवाक घालून नमस्कार केलो. हो सगळो खेळ धुवेली व्हडली जाव दोळे मोठे करून नाका पुडयो फुलयत पळयताली.

धात्र-म्हेड कशी उभी आशिल्ले अहिल्याची गत म्हयन्याभरयांत अशी बरगल्ल्या खुटाभशेन जायत अशें कोणेंच धरूंक नासलें. खरें म्हळयार अशी कर्तुपी बायल गांवार सोदून सांपडपासारकी नासली. तरणे पिरायेचेर तिगेलो घोव मेल्लो तेन्ना सगळो लोक चुरचुरिल्लो, तरी जावेकडेन झगडीं करून, पुरसाचें घर

सासणाक सोडून, घोवाचे फाटीक लागून खारवड्यार दुसरी खोंप उबारली, ताचें पानवळ तिका वर्साभितर भल्लें, अशेंय कांय जांणानी म्हणिल्लें. पूण मणकटाक घांस मारून म्हणटात ते भाशेन तिणें आपलो संवसार थातारून धल्लो. देराकडल्यान जावं कुळाराच्यान कुस्कुटाच्या पालवाची वाट पळयनासतना ती वावराक भायर सरली. कोणालें उमळ, कोणालीं आयदना घांस, आयज नंडणेक चल, तर फाल्यां लुवणेक चल अशें करून तिणें आपल्या दोगांय धुवांक वयर काडलीं. गरिबी आसूनय, पूत नाशिल्ल्याची खंत बाळगिनासतना, धुवांक कोणागेरच कामा-वावराक धाडी नासतना, चार अक्षरां शिकूंक शाळेंत धाडलीं. गांवांत कोणाल्याय कार्याक वावरूंक, परबांक बोवाळूंक सगळयांक अहिद्दें जाय पडटालें. बाळंटे-भुरग्यांक न्हाणोवपाक अहिद्द्याकच आपोवणो येतालो. कोण बरो ना, कोण मोडून पडला जाल्यार ताका अहिद्द्याचो आधार जातालो. अशे भाशेन अहिद्दें म्हळयार गांवांत वखदांचें पाळ जावन आशिल्लें. धूव लग्नाची जातकीर तिणे शेजारा-पाजाराच्या फुडाकारान व्हडले धुवेक उजयली. जांवय मेळळो तोवून भांगर कसो; ताणेंच फुडाकार घेवन धाकटे धुवेकय लग्न करून दिली. नशिबान तिवून जेवन-खावन सुशेग आशिल्ल्या घरांत पाविल्ल्यान अहिद्द्याच्या माथ्यावयलें व्हडलें वजें देंविल्लेभशेन जालें.

धुवां-नातरांची खबर घेयन दिसतकीर अहिद्द्यान चार लाडवांच्यो गुळयो वळच्यो आनी धुवांगेर पासय मारची. पूण आपणें धुवांच्या कोंतार सुशेग घेवचो अशी वान्सा तिका केन्नाच जाली ना. आपणें कोणाल्याच गळयाक तांस लावचो न्हय अशी तिची इत्सा आसली. कुडींत जीव आस मेरेन आपूण वावर करुनच पोट भरतली, असो तिणें निश्चेव केल्लो.

पूण अहिद्द्याचीं सपनां जळून गोबोर करपी ती उमाशेची रात अहिद्द्याचे जिणेंत सासणाखातीर काळोख घेवन आयली. रातची जेवन आड पडिल्लेकडेन तिका खोंपीफाटल्यान पोरसांत गोरवां भरिल्ल्याचो आवाज आयलो. बडी घेवन ती भायर सरली. कोणालो पूण मस्तो बैल, बांदून घाल्लो धा - बारा हात लांबायेचो राजू तोडून पोरसांत भरिल्लो. तो पळून वता आसतना ताच्या गळयांतलो राजू अहिद्द्याच्या पांयांत घुसपलो आनी अहिद्दें शेंवटून झरकटत, ओडत गेलें. अहिद्द्याची बोब आयकून शेजारी-पाजारी धांवन आयले. अहिद्द्याची तकली, धोंपरां, कोपर फुटिल्ले, सगळें आंग झरकटून सोलिल्लें आनी रगत झिरपतालें. कोणें पूण वचून पीकप हाडली आनी रातचीच सरकारी हॉस्पिटलांत व्हरून घाली.

दोगीय धुवो लुरांव-बिरांव घेवन आत्र्या-पयऱ्यान हॉस्पिटलांत पासयो मारताल्यो. एका दिसा दोतोरान व्हडले धुवेक आपयली आनी सांगलें, "तिगेलें आतां जाणटेपण, जाणट्या हाडापेराक जाल्ले दुखींतल्यान ती बरी जायतच म्हणून

सांगूंक नज. अशे परिस्थितींत ती हॉस्पिटलांत आनी घरांत आसली सारकीच. हांव तिगेलीं सगळीं वखदां दितां, तिका तुमी घरा घेवन चलात, निदान निमण्या खिणाक मायेच्या मनश्यांम्हन्यांत तरी उरतली.

धुवेमुखार प्रस्न पडलो. तिका आवयचो मोग, चुरको आसलोच; पूण घरांत ती एकलीच नासली. जावो-देरांनी भरिल्ल्या घरांत आवयचें कितेंय बरें-वायट जालें जाल्यार व्हडली खास्ट जाव घर माथ्यार घेतली म्हूण ती जाणा आसली. जाणटेपणान पासियेंस नाशिल्ल्यान आवयन उलयल्लें कितेंय कोणाच्याय नाकयां वचत म्हणून ती कांचवेताली. तिणें गजाल धाकटे भयणीच्या कानार घाली; पूण तिणें व्हडलेंशें मनार घेवंक नाशिल्ल्यान शेकीं लोकलजेखातीर तिका आपले आवयक आपणागेर हाडचीच पडली.

आवयचीं फेरिदां धुतां, वखद लायतां म्हळयार धुवेलो एक आदेस असोच वतालो. तातूंत जिणेक उबगल्ली आवय कितेंय बडबडपाक लागली जाल्यार तिका थातारता म्हळयार तिका नाकाजीव जातालो. व्हडली जाव जाल्यार सदांच दाडवणां चेपूनच आसताली. केन्नाय सामकी तिडकून जावेक शिटकायताली. "पळय आं, मदलें तिगेलें कितेंय बरें-वायट जावचे पयलीं तिका हांगासरल्यान हालोवंक जाय. आवय धुवेगेर सोंपल्यार बरें न्ही. आयज तिच्या दोळयांत दूक आयलें जाल्यार तिगेलीं मेल्लीं-गेल्लीं तिका कोण ना म्हूण तिचे मायेक ओडटलीं आनी आमकां पिडटलीं. फांल्या ती हांगा मेली जाल्यार आमच्या कुळाक बादतली. सगळया देवसपणांत आड रावतली. आमगेल्या देवसपणाचो पयलींच जाला घोळ, तातूंत अ॒... भर नाका."

व्हडली धूव सामकीच कातरींत सांपडिल्ली. तिवूय केन्नाय पासियेंस ना जातकीर आपले आवयचेर बेजारताली. धुवेले व्हडले जावेचीं उतरां केन्नाय अहिद्द्याच्या कानार पडटालीं तेन्ना तिच्या आंगाक भगभग पडटालो. केन्ना काय आपलो जीव गेल्यार पुरो अशें तिका दिसतालें. एक नातू सोडलो जाल्यार तिका कोणाचीच ओड म्हणून उरूंक नासली. 'बो, ही गुळी घेतली मगे? बो, हें वखद आतां घेवपाचें, बो, तुगेल्या धोंपराक मलम लायतां आं' अशें म्हणत तो तिचे भोंवतणी बोवाळत आसतालो. केन्नाय रेडियोचेर धालो, फुगड्यो लागल्यो जाल्यार रेडियो घेवनच बो म्हन्यांत धांवत वचून बसतालो.

असल्या वातावरणांतच खारवड्यावयल्या अहिद्द्याल्या शेजाऱ्यान धाडिल्ल्या रेकादान उज्यांत तेल रकयल्लेभाशेन जालें.

पावसांत मोड जावन अहिद्द्याली खोंप मोडून पडली. तिगेलीं सगळीं आयदनां शेजाऱ्यांनी साकांत भल्लीं आनी येवन व्हर असो व्हडले धुवेगेर रेकाद धाडलो.

"आवयन बरें सांगलें म्हणून तीं आयदनां आमगेर हाडची गरज ना आं,

मदले'', व्हडले जावेन रकाद कानार पडनाफुडें सांवार केलो. ''आयज तुका तीं आयदनां दवर म्हणून सांगतली, पूण फाल्यां मरतकीर आपलो पोटलो म्हणून हेवटेन ओडटली. पूत नाशिल्ली आवय ती; आमकां सासणाक पिडटली. आनी, तूं एकलीच धूव न्ही तिगेली सगळयो उस्तवाऱ्यो एकल्यानच काडपाक; धाकले धुवेक व्हरूंदी तिगेलो पोटलो, आमकां नाका म्हळयार नाका!''

रकाद धाडून दोन दिसांनी धाकटे धुवेक आपोवन हाडली. तिगेले मायंक मात्शी सुलूस आशिल्ल्यान तिवूय आपले सुनेवांगडा आयिल्ली. मांयन शिकयल्लें तितलेंय धाकटी धूव किराभशेन उलयली. मांयन सुचयल्लेभशेनच शेकीं तिणें आवयक म्हळें, ''जर कोणाकूच नाका आसत तुजीं आयदनां, जाल्यार तीं विकचीं आनी येतात ते पयशे तुगेले मर्णा-क्रियेक उपकारावचे.''

कुडींत आशिल्लीं सगळीं एकामेकाक पळयतच उल्लीं. अहिद्दयान तोंडावयल्यान कामरुणे ओडलें. भगभगत्या सरणार आपली जितीच कूड जळटा अशें तिका दिसलें. भान नासून ती बडबडली. ''देवा... कुड्डो जावं आसलो, थोटो जावं आसलो! पोंगो, चोचरो, भेड्डो जावं आसलो; दोगी धुवां बदला, तुवें म्हाका एकूच पूत दिल्लो जाल्यार बरें जातलें आसलें; म्हाका मुक्ती तरी मेळटली आसली. तिच्या दोळयांतल्यान दुकां भळभळीं. सगळीं जाणां मोनी जाल्लेभाशेन एक उतर काडी नासतना शांत शांत आसलीं. दुसरे कुडींत नातवान लायिल्ल्या रेडिओचेर कोण तरी मार झेतान कुटुंब कल्याणाचेर भाशण दितालो.

'आयज खंयच्याच मळार चलयो फाटीं नात. आयच्या संवसारांत चल्याक आनी चलयांक सारकेंच म्हत्व आसा, सारकेच अधिकार आसात. आयज चलयोच जाल्यो म्हणून खंत बाळगुपाची गरज ना.

चले आसूं वा चलयो आसूं,
दोगांच भुरगीं पुरो...
संवसार हांसता तुरो!'

**

८

# दंतकथा

आफ्रिकी एक दंतकथा आसा. आफ्रिकेंतल्या एका जमातींतल्या लोकांक दोन जिवाणीं कुडीचो भोग घेवपाक मोगान जुळटना दिसत जाल्यार ते तांकां कितेंय करून, कशेय भाशेन जितेच मारतात. उपरांत मेल्ल्या जिवाण्यांच्या तोंडांत एक एक चलनी नाणें दवरून तांकां गोबोर जायसर लासतात. दोनूय नाणीं मागीर चकचकीत जायसर सोलान धुतात. तांतुतलें एक नाणें एके बंद डबयेंत घालून देवाकुडींत सांबाळून दवरतात आनी दुसरें नाणें चलनांत घोळयतात. ते अशे मानतात खंय- एकामेकांचे ओडीन, मोगाचे भावनेंत गुल्ल जावन एकरूप जाल्ली तांची आत्मीयता त्या नाण्यांत देंवता आनी तीं नाणीं एकामेकासावन कितलींय पयस पावलीं तरीय परत परत लागीं येतात. कितलेंय खर्चिलें तरी चलनांतलें नाणें दुसऱ्या नाण्यासावन पयस रावंक शकच ना, तें दुसऱ्या नाण्याचे ओडीन परत येत रावता आनी अशे तरेन जुळटल्या जिवाण्यांक मारून एक नाणें बंद डबयेंत दवरपी मनीस रोकडोच गिरेस्त जाता.

व्हिस्कीचो ग्लास ओंठाक लायत दोतोरान तिगांय वयल्यान एक नदर घुंवडायली. ताणें सांगिल्ली दंतकथा कोणाकूच पटूंक ना हें स्पश्ट दिसतालें.

कमरुद्दीन सोऱ्याचे नशेंत झेमपाक लागिल्लो. जेम्स सिगाराचो धुंवर सोडीत दोतोराची नदर चुकोवपाचो यत्न करतालो.

"वॉट आर युवर कॉमेंटस जे. के?" दोतोरान सरळ म्हाका प्रस्न केलो तेन्ना कितें जाप दिवची हो म्हजे तकलेर पेज पडलो. दोतोराली दंतकथा म्हाकाय पटूंक नासली; पूण दोतोराच्या भाबड्या सभावाची म्हाका जाणीव आशिल्ल्यान ताका सट्ट करुन दुखोवप म्हाका बरें दिसलें ना.

"जे. के., तूं विश्वास दवरना असल्या गजालींचेर; निदान हे दंतकथेचेर तरी?" दोतोरान म्हाका परत प्रस्न केलो तेन्ना म्हाका जाप दिवचीच पडली.

"दोतोर, एकूण दंतकथाच न्ही ती, तिचेर आनी कितें विश्वास दवरपाचो?"

म्हजी जाप आयकनाफुडें उमळशिकेन म्हजेकडेन पळयतल्या दोतोराचें मुखामळ

हुलपल्ले भाशेन जालें.

"नो... नो, जे. के., डॉन्ट से लायक दॅट... तूं नकळो?... ही दंतकथा म्हळयार म्हजे जिणेचें एक आंग कशें... आय वीश इट टू बी अ पार्ट ऑफ माय लायफ, जे. के... तुकाय पटना ही दंतकथा... ब्रुटस... यू... टू!"

सोन्याची नशा चडूंक लागिल्ल्या दोतोराक आपूण कितें उलयता ताचें भानच नासलें. ताच्या दोळयांतल्यान दुकां भळभळपाक लागलीं.

दोतोर अकस्मात भावनावश जाल्लो पळोवन कमरुद्दीन आपली नशा देंविल्लेभशेन दोतोराक पळयत रावलो. जेम्सानय हातांतली सिगरेट ॲश ट्रेंत चिड्डीली. भाबड्या दोतोराचे दोनूय हात म्हज्या हातांत घेत हांवें म्हळें, "बी काम... दोतोर, बी काम." दोतोराच्या उजव्या हातांतले मुदयेचेर नदर पडनाफुडें मात म्हाकाय वायट दिसलें. आंकवार दोतोराची काकुळट आयली..

सुमार चाळीस वर्सां पिरायेचो दोतोर नायक आजुनय आंकवारच आसलो. सगळें फ्रेंड सर्कल दोतोराक लग्न जावपाक फोर्सार करतालें; पूण दोतोर कोणालेंच कानामनार घेय नासलो. भुरगो दोतोर म्हणून सगळे ताका चाळयताले. आपली देड वर्साची चली व्हड जातकीर तिचें लग्न हांव दोतोराकडेन लायतलोंच अशें सांगून दोतोराच्यो भगलो मारीत जेम्सान एके पार्टींत सगळयांक हांस-हांस हांसयल्ले. दोतोराच्या लग्नाचो विशय सगळयांक वेळ पासार करपाक बऱ्याक पडटालो. पूण दोतोर केन्नाच कोणाक परती जाप दिनासलो. आपूण जावन मात दोतोर जेन्ना लग्नाचो विशय काडटालो, तेन्ना खऱ्यानीच भावनावश जातालो. दोतोराच्या आंकवारपणाचो गूट आनी बोटांतले मुदयेची दंतकथा म्हाकाच खबर आसली; आनी ताका लागून हांव मात चुकून सुद्दां लग्नाच्या विशयाचेर भगलो मारी नासलों.

मॅट्रीके उपरान्तच्या शिक्षणा खातीर आमी मुंबय गेल्ले तेन्नाच आमची चड इश्टागत जाल्ली.

तो वैजकी शिकप घेतालो, तर हांव कायद्याचें शिकप करतालों. दर आयतारा आमी चुकनासतना मेळटालेच. दोतोरान सर्जरीची पदवी मेळयली आनी गोंयांत परतून ताणें मडगांवां खाजगी हॉस्पिटल घालें. आपल्या हाताच्या आनी हातगुणाचे कळाशेन ताणें नांव आनी पैसोय जोडलो. गोंयांतल्या जायत्या व्हडल्या हॉस्पिटलांत सिरियस केस आसल्यार, जावं मोठें ऑपरेशन आसल्यार दोतोर नायकाक आपोवणो येतालोच. सावड्डयां दोतोर भेंड्याच्या हॉस्पिटलांत तर तो म्हयन्याक दोन-तीन फावटीं पावतालोच. दोतोराचें काम जातकीर ती रात आमी सोन्याचे पार्टेन फुलोवप, अशी आमची सदची संवय जाल्ली. जेम्स आनी कमरुद्दीन दोतोराले ब्रिजाचे पार्टनर. दर आयतारा ते मडगांवां क्लबांत ब्रीज

खेळपाक जमताले. कमरुद्दीनालो बंगलो दोतोर भेंड्याल्या हॉस्पिटलाक तेकूनच आशिल्ल्यान आमगेल्यो चडश्यो पार्ट्यो थंयच जाताल्यो. आयज तिनसनाय दोतोर भेंड्याल्या हॉस्पिटलांत दोतोर नायकान एक मेजर ऑपरेशन केल्लें आनी बारा वरांनीं पेशंटाक परत अॅटेंड करप गरजेचें आशिल्ल्यान दोतोरान ती रात हांगाच काडपाची थारायल्लें. आमकां फोन करुन कळोवचे पयलींच कमरुद्दीनान पार्टेची सगळी तयारी करून दवरिल्ली. पार्टी रंगांत येता आसतनाच सदचे संवयेन जेम्सान दोतोराच्या लग्नाचो विशय काडलो तेन्ना दोळयांत नशा दाटूंक लागिल्ल्या दोतोरान खंयच्या तरी मॅगझिनांत वाचिल्ली ती जिवाण्यांची दंतकथा सांगली.

भुरग्यांभशेन हुडकेत रडटल्या दोतोराक कसोबसो सांबाळून हांवें आनीक एक एक पेग सगळयांच्या ग्लासांत ओतलो. वीसेक वर्सां फाटीं घडिल्ली दोतोराच्या बोटांतले मुदयेची कथा म्हज्या दोळयांमुखार उबी रावली.

तो शिकता आसतना एके ख्रिश्चन चलयेच्या मोगांत पडिल्लो. परधर्मीय जाल्ल्यान आपल्या घराकडेन वादळ जालेबगर रावचें ना, हें चिंतून ताणें आपल्या मोगाची काणी कोणाकच, म्हाका लेगीत सांगूंक नासली. पूण सगळें प्रकरण जेन्ना चलयेच्या घराकडेन कळून सामको उजो पेटलो, तेन्ना ताणें म्हाका आपोवन व्हरून ती गजाल सांगिल्ली.

"जे. के., एक प्रॉब्लेम जाला; ॲण्ड यू वील हॅव टू हॅल्प मी!"

"कसलो प्रॉब्लेम?" हांव.

"तुका घडये खरें दिसचें ना, पूण हांव एके चलयेच्या मोगांत पडलां... दॅट टू अ ख्रिश्चन गर्ल."

"आर यू सिरीयस, काय फकाणां करता?" हांवें अजापून विचारलें.

"बिलीव्ह मी जे. के., आय हॅव गॉट नो आल्टरनेटीव दॅन टू गेट मॅरीड वीथ हर."

"प्रकरण मोठ्यार पडलां?" हांवें दुबावान विचारलें.

"यस, शी इज कॅरींग" तकली सकयल घालून ताणें जाप दिली." ताकाच लागून तिगेल्या घराकडेन सांवार मातला. तागेलीं घरचीं सगळीं म्हाका राखून रावल्यांत खंय."

"सो व्हॉट यू हॅव डिसायडेड फायनली?" हांवें विचारलें.

"जे. के., हांव तिका कसोच सोडपाक शकना. हांव तिचेबगर जियेवपाकच शकचो ना."

"मागीर?"

"कोणाक कळनासतना हांव तुर्ताक सिवील रजिस्ट्रेशन करूंक पळयतां, ॲण्ड आय हॅव परसूडेड हर फॉर अबोर्शन." हांवें मात्शी तकली खरपिली. तागेले

मांडणेंत तसो व्हडलो भंय नासलो. हांवें दोतोराक मदत करपाचें थारायलें. म्हजो एक क्लासमेट मोगान लग्न जाल्लो. दोनूय वटेन विरोध आशिल्ल्यान ताणें कोणाक कळय नासतना रजिस्ट्रेशन केल्लें. ताच्याच आधारान हांवें दोतोराच्या सिंविलाची तयारी केली. साडी न्हेसून, कपलाक तिकली लायिल्लें 'सेलीन' सनातनी हिंदू घराण्यांतली चली शें दिसतालें. ताका पयले फावट पळयतना दोतोराच्या पिशेपणाचो राग वचून वयल्यान ताच्या सिलेक्शनाचें म्हाका कौतुकच दिसलें. सेलीनाचो बापूय त्या वाठारांतलो नामना जोडिल्लो बिझिनेसमॅन. तागेलो व्हडलो बंगलो आसलो. सेलीन तागेली एकलीच धूव. आपल्या एका बिझनेस पार्टनराक ताणें सेलीनाकडेन काजार करतां म्हूण उतर दिल्लें; पूण फायनल बी. ए. करतना तें नायकाच्या मोगांत घुसपलें. बापायक ही गजाल कळटकीर ताणें भूंय-मळब एक केलें. पूण सेलीन ताका कशेंच बदनासलें. आवय-बापूय, बंगलो-गाडी सगळें सोडून तें नायकावांगडा येवंक तयार जाल्लें.

रजिस्ट्रेशनाच्या दिसा सकाळीं सेलीन, दोतोर आनी हांव तिगांय देवळांत गेल्लीं. आपल्या नांवांतलें आद्याक्षर "के कोंतायल्ली, दोतोरान मुद्दाम करून घेतिल्ली भांगराची मुदी देवाचे साक्षीन सेलीनाच्या बोटांत घाली. सेलीनानय फाटींफुडें पळय नासतना आपल्या बोटांतली हिऱ्या खड्याची मुदी, सट्ट करुन काडून दोतोराच्या बोटांत घाली. ताचेखेरीज आनी कोणाकडेन लग्न जावचीं नात म्हूण सोपूत घेतना दोगांयच्याय पोल्यार दुकां देंवलीं, तेन्ना मात हांव खऱ्यानीच शिरशिरलों. आपलें सर्वस्व ओंपपी मोगाचो अविश्कार हांवें पयलेच खेपेक पळयल्लो. तांकां आशिर्वाद दिवपी आवय-बापायची आनी लग्न लावपी भटाची भूमिका करतना म्हजें हड्डें भरून आयलें.

पूण दोतोराचे जिणेंत व्हडलें मोडण घेवन येवपी तो दीस आसलो, हाचो प्रत्यय आमकां रोखडोच आयलो. म्हज्या त्या काजारी क्लासमेटाक आनी दोगां इश्टांक घेवन आमी रजिस्ट्रेशन ऑफिसांत गेले तेन्ना थंयच्या ऑफिसरान आमकां भितर बसोवन घेतले. सेलीनाचें नांव वाचून तो चक्रावलो. तो सेलीनाच्या बापायचे वळखीचो आसतलो; आमकां कळनासतना ताणे सेलीनाच्या बापायक फोन करून आपोवन हाडलो. मातय चिंती नासतना. अकस्मात सेलीनाचो बापूय आनी व्हडलो भाव फुड्यांत उबो जाल्लो पळोवन आमचीं गात्रां गळसणलीं. विरभद्राचो अवतार कसो सेलीनाच्या बापायन त्या ऑफिसांत सांवार केलो. मोठ्यामोठ्यान रडटल्या सेलीनाक ताणें फरफरीत ओडून व्हरून गाडयेंत बसयलें; आनी परत येवन दोतोराच्या खोमसाक धरून धमकी दिली, "दुसरे खेपेक सेलीनाचें नांव लेगीत घेवशी, खबरदार!" चोरतना धरिल्ल्या चोराक येतेश्ट बडोवचो आनी मागीर चल म्हणून सांगचो, तशी अवतिकाय आमची जाली.

चोम्यान एकठावल्ल्या लोकांमुखावेल्यान आमी चोरांभशेनच कुशीक सरले. दोतोर जाल्यार सामकोच मालूक जाल्लेभशेन जालो. आठ दीस ताका सांबाळचो पडलो. दर दिसा कॉलेजींत पासय मारून हांव सेलीन दिसता काय म्हणून पळयतालों; पूण तें परत झळकलेंच ना. ताच्या नांवान हांवें धाडिल्लीं दोन पत्रांय घेनासतना परतीं आयलीं. सेलीनान दिल्ली मुदी पोशांत घेवन दोतोर हुडक्या हुडक्यांनी रडटालो तेन्ना दोतोराची सामकीच काकुळट दिसताली. वीसेक वर्सां आदीं घडिल्ली ही गजाल आजून तश्यातशी म्हज्या दोळयांमुखार आसा.

म्हजें शिकप सोपना फुडें हांवें थंयच्याच एका फर्मांत 'लीगल ॲडवायझर' म्हूण सात आठ वर्सां नोकरी केली. बापूय भायर पडटकीर मात म्हाका गोंयांत येवन प्रॅक्टीस करचीच पडली. घरच्यांनी फोर्स केल्ल्यान लग्नय जावचो पडलो. दोतोरान मात लग्नाक रामराम केलो तो सासणाचो. सेलीनाचें काजार जालें वा ना कांयच कळूंक नासलें. दोतोर मात आंकवारच राविल्लो, आपलें उतर पाळूंक. लग्नावयल्यान मारिल्लीं सगळीं त्रोसां मोन्यानीं सोसून आपल्या पयल्या मोगाची पवित्रताय राखूंक पळयतालो. पार्टी परत रंगार आयिल्ली. पयली बाटली सोपत आयली, तितल्यांत दोतोराक दोतोर भेंड्याल्या हॉस्पिटलांतल्यान फोन आयलो.

"वॉट इज द मॅटर?" जेम्सान दोतोराक विचारलें.

"आंध्र प्रदेशांतल्यान आयिल्ली एक मिनीबस पडून कांय सिरीयस पेशंटांक हॉस्पिटलांत हाडल्यात खंय. एक्सक्यूज मी... हांव रोकडोच येतां आं."

दोतोराच्या पेशाक सोब सारके ताकतिकेन तो फियाट घेवन दोतोर भेंड्याच्या हॉस्पिटलांत वचपाक भायर सरलो. दोतोर उठून गेल्ल्यान आमगेली पार्टी म्हळयार गणपती पावयल्ल्या मखराची आरास कशी दिसपाक लागली. पार्टेचो मूडच गेलो. दोतोर वचून धा मिण्टांभितर दोतोर भेंड्यान ताकतिकेन आमकांय हॉस्पिटलांत आपयले. तेन्ना आमी सामके गोंदळांत पडले. बेगिबेगीन हॉस्पिटलांत चल जाल्यार दोतोर नायक सामको पेशंट कसो दोतोर भेंड्याच्या केबिनांत बसला आनी नर्स ताका कितें तरी पियवता.

"कितें जालें?" हांवें दोतोर भेंड्याक विचारलें.

"इट सीम्स, देअर इज सम मिस्टरी."

"वॉट हॅपन्ड एक्झक्टली?"

"आंध्र-प्रदेशांतल्यान एक मिशनरीच्यो माद्री आशिल्ली मिनीबस तीन लागमाड्यो खावन पडली आनी सात-आठ पेशंटांक हॉस्पिटलांत हाडले. चौग पांच जाणां सामकींच मर्णाधडेर आशिल्ल्यान, हांवें दोतोर नायकाकय फोन करून आपयलो. एके माद्रीक तपासून दोतोरान नर्सीक इंस्ट्रक्शन्स दिलीं; आनी दुसरे माद्रीचे हात हातांत घेतल्यात मात, दोतोर पिश्यांभशेन हाताक पळयत उरलो; तो

हात आपल्या पोल्यार पोशेतना घोऽऽ करुन कोसळ्ळो तो सुद्द बी कांयच ना, आतांच मात्सो सावचीत जाला.

दोतोर भेंडो म्हाका घेवन मर्णाधडेर आशिल्ले ते माद्रीच्या बेडा म्हन्यांत गेलो.

दोतोरान सेलीनाच्या बोटांत घाल्ले मुदयेभाशेन 'के' उतर कोंतायल्ली मुदी सेलीनाच्या बोटांत पळोवन म्हजेंय आंग झिणझिणिल्लेभशेन जालें.

हांवें तिका बारीकसाणेन नियाळ्ळी. तिची तकली, नाक फुटिल्लें; तोंडार रगत आनी चिखोल दाटिल्ल्यान तिचे वळखीचो अदमास मेळ नासलो.

"हेंच सेलीन काय?"

"वीस वर्सां आदली सुंदरी ती हीच काय?"

"मागीर तें आंध्र प्रदेशांत कशें पावलें?"

"सेलीन जाल्यार माद्री कशें जालें?"

"सेलीनानय आपलें उतर खरें केलां काय?"

"सेलीनय दोतोराभशेन आंकवार रावलां काय?"

कितल्याश्याच प्रस्नांनी म्हजे तकलेची चाळण केली. देवळांत सेलीनाच्या बोटांत घाल्ली मुदी म्हज्या दोळयांमुखार उबी रावली. दोतोरान सांगिल्ले दंतकथेंतल्या जिवाण्यांचें जोडें उबें रावलें. एकामेकाचे ओडीन भरिल्लीं दंतकथेंतलीं नाणीं उबीं रावलीं. हांव सामको घुस्मटिल्ले भशेन जालों.

धांवत वचून हांवें दोतोर नायकाक वेंग मारली.

"दोतोर... दोतोर, म्हाका तुवें सांगिल्ली दंतकथा पट्टा... आय बिलीव्ह... इट हॅज रिअली बीन अ पार्ट ऑफ युवर लायफ."

कमरुद्दीन, जेम्स, दोतोर भेंडो, हेड नर्स सगळीं आमकां अजापान पळयत उरलीं.

दोतोर नायकाल्या दोळयांतल्यान भळभळटलीं हून हून दुकां म्हजे मानेर देंवतालीं.

**

१

# गुरुदक्षणा

प्रिन्सिपॉलाच्या कानसुलार फुलयल्ल्या एकाच थापटान रमेश देसाय कॉलेजीचो हिरो जालो. थापटाची खबर आयकनाफुडें प्रिन्सिपॉलाच्या निर्णयाआड आंदोलन करपी सगळ्या ट्रेनी टिचरांनी उमेदीन ताळयो पेटीत कॉरीडॉरांत मोठयान बोवाळ घालपाक सुरवात केली. कितें जालें तें खीणभर रमेशाकय कळ्ळें ना आनी प्रिन्सिपॉल कामतीकय कळ्ळें ना. मॉडर्न डी. एड कॉलेजीच्या इतिहासांत जायते फावटीं प्रिन्सिपॉलाआड ट्रेनी टिचरांची बाचाबाची, आंदोलनां जाल्लीं, पूण प्रिन्सिपॉलाचेर हात उबारपाचें धाडस कोणाकच जावंक नासलें.

जनरल सेक्रेटरी रमेशान आपल्यो मागण्यो मान्य जावंकच जाय म्हणून प्रिन्सिपॉलाचेर ताच्याच केबिनांत थापट फुलयल्लें आयकून उमेदीन उचांबळ जाल्ले ट्रेनी टिचर मोठयामोठयान हुयेली मारीत सपणां देंवन पटांगणांत आयले आनी थंय भांगडा नाचूंक लागले. प्रिन्सिपॉल कामत रमेशाक पळयत खीणभर हांसलो. ताणें जी. एस. रमेशाक शेक हॅण्ड दिलो आनी शांतपणान म्हळें, "थँक्यू व्हेरी मच, माय डियर स्टुडंट, तुवें म्हजेर मारिल्लें थापट ही एका विद्यार्थ्यान आपलें शिक्षण सोपचे आदींच दिल्ली गुरुदक्षणा, अशें हांव मानून घेतां. मिस्टर देसाय, आय नो, जरी हांगा तूं म्हजो स्टुडंट आसलो, तरी तूं एक एम्प्लॉयड टिचर... तूंय भुरग्यांक शिकयता... आनी भुरग्यांकडल्यान टिचरानी कसली अपेक्षा बाळगुची हाचें एक बरें उदाहरण तुवें म्हजेर- आपल्या टिचराचेर थापट मारून घालून दिलां." "ॲनी वे, लॅट अज कम टू दी पॉयंट... इफ यू डॉन्ट वॉंट टू अंडरस्टॅण्ड मी, तुमी जे मागणेखातीर फाटले चार दीस क्लासी बॉयकॉट केल्यात, ती तुमची मागणी हांव मान्य करतां... यू मे गो अहेड वीथ युवर प्रोपोजल ॲण्ड ॲरेंज फॉर टूर टू नैनिताल; ॲण्ड माइंड वन थींग, तुमची मागणी हांवें मान्य केल्या ती तुज्या थापटाक भिवन न्ही, तुमच्या आडांगीपणाची, भुरगेपणाची काकुळट करून." जी. एस. रमेश केबिनांत आसतनाच प्रिन्सिपॉल कामत भायर सरलो, स्टाफ रुमांत वा ॲडमिनिस्ट्रेटीव्ह सेक्शनांत एकूय नदर मारी नासतना

ताणें आलमारीचेर दवरिल्लें हॅल्मेट उबारलें आनी सवकासायेन सपणां देंवन तो स्कुटरीकडेन आयलो. प्रिन्सिपॉल माळयेवयल्यान देंवतना पळोवन पटांगणांत चोमेल्ले ट्रेनी टिचर अदिकच उसळळे आनी तांणी "प्रिन्सिपॉल कामत मुर्दाबाद... हाय ऽ हाय ऽ हाय ऽ हाय ऽऽ नैनिताल टूर जावंकूय जाय." अश्यो मोठ्यान आड्डी मारल्यो. थोडेजाण मोठ्यामोठ्यान कुयोय घालूंक लागले. आपणे केलां तें वायट काय बरें ह्या संभ्रमांत पडिल्ल्या रमेशाच्यान आपल्या वांगड्यांचो अच्छेव आयकूंक नज जालो. तो धांवत भायर कॉरीडॉरांत आयलो आनी सकयल पटांगणांत बोबो मारतल्यांक उद्देशून मोठ्ठ्यान आड्डलो. "हे ऽऽ प्लीज स्टॉप इट, ही हॅज ॲग्रीड वीथ अवर प्रपोजल."

"हुर्योऽऽ" सगळयांनी आनीक मोठ्यान बोवाळ माल्लो.

"फॉर गॉड सेक, डॉंट शावट" रमेशान कळवळयान किळांच माल्ली, तशे सगळे ओगी रावले. प्रिन्सिपॉलान स्कुटर स्टार्ट केली आनी आंदोलकांवटेन पळय लेगीत नासतना तो वाटेक लागलो. सपणां देंवन येतना लेगीत रमेशाचे तकलेंत विचारांचें मोड घुंवत आसलें.

"प्रिन्सिपॉलाचेर थापट मारपाक हांव टॅम्प्ट जालोंच कसों?"

"म्हज्याच टिचराचेर हांवें थापट मारलें तें म्हजें चुकलें ना ?"

"म्हज्या वांगडच्यांक काय ताचें वायट दिसूंक ना..., वयल्यान ते उमेदीन फुल्ल्यात..., खरें म्हळयार प्रिन्सिपॉलानय इतलें ताणून धरपाची गरज नासली... भुरग्यांचो एकवट पळोवन पयलींच ताणें आमचें मागणें मान्य केल्लें जाल्यार आयज ही परिस्थिती..." तो निमाण्या सपणार पावलो तेन्ना ताचे सगळे वांगडी धांवत आयले. चौग पांच जाणांनी ताका सोमतोच वयर उखल्लो आनी "जी. एस्. रमेश देसाय.. झिंदाबाद" अश्यो घोशणा दित ताका पटांगणाच्या ह्या तोंकावयल्यान त्या तोंकामेरेन नाचयत हाडलो. जैताचे धुंदीन बेबदे जाल्ल्या वांगड्यांक कशे समजावप हेंच ताका येवजना जालें. मनांतल्यान खंती जाल्लो रमेश, जालें तें बरें जालें ना म्हणून तांकां सांगपाक सोदतालो, पूण तागेलें आयकून घेवपाचे मनस्थितींत कोणूच नासलो. नैनिताल टुराची मागणी मान्य करून घेवपाक जी. एसान प्रिन्सिपॉलाचेर थापट मारून जैत जोडलां आनी मोठो पराक्रम केला अशें मानून सगळेच सामके भुल्लुशिल्ले; आनी संभ्रमीत जाल्लो रमेश देसाय भुरग्यांच्या खेळण्याभाशेन सामको तांचे सुवादीन जाल्लो.

"लॅट अज सेलेब्रेट!!!" कोणा एकल्यान म्हळें आनी सगळयांनी "ओ ऽऽ एस ऽऽऽ अशी आरड मारली.

"सेलेब्रेशन शिवराक नाका, धीस इज वायलंट व्हिक्टरी, सो वुई वॉण्ट हॉट ड्रिंक्स" अशें दुसऱ्यान म्हणनाफुडें येदोळच्यापरस मोठ्यान बोवाळ जालो.

"मे आय सजेस्ट..." तिसऱ्यान म्हळें, "ह्या शेनवाराक हॉलीडे आसा, आमी सेलेब्रेशन मोलेंच्या टुरिस्ट कॉम्प्लॅक्सांत करूं या."

"एऽऽसऽऽऽ" परत सगळ्यांनी बोवाळ घालो.

"आय ॲम सॉरी, हांव शेनवाराक येवंक पावचो ना, सॅटरडे इव्हिनींग आय हॅव टू अटेंड अ मॅरेज" रमेश काकुळटेक येवन सांगतालो, पूण तागेलें मनार घेवपाच्या मुडांत कोणच नासलो.

"नो एक्सक्युजीस एंटरटेनड" एकल्यान म्हळें, "वुइ वील कंट्रीब्यूट ॲण्ड सेलेब्रेट... बट वुइ वील." सगळे मोठ्यान हांसले. "यू मे कम अ बीट लेट, बट नॉट लेटर दॅन सेवन..., वि वील बी देअर टू वेलकम यू लायक अ मिनीस्टर... अवर ग्रेट जनरल सेक्रेटरी."

तांच्यामुखार आनी पिरंगुपाचें धाडस रमेशाक जालें ना. मोलेंच्या स्कुलांत शिकोवपी एका ट्रेनी टिचराकडेन सेलेब्रेशनाची माडणी करपांत सगळे गुल्ल जाल्ले. रमेश मात भलतेच तनरेंत शेणिल्लो.

मॉडर्न डी. एड्. ट्रेनींग कॉलेज हें गोंयांतलें एक आदर्श टिचर्स ट्रेनींग कॉलेज म्हणून नामनेक पाविल्लें. हेर ट्रेनींग कॉलेजांचे प्रिन्सिपॉल आनी जाळवणदार लेगीत मॉडर्न कॉलेजाकडेन 'गायडींग इन्स्टिट्यूशन' म्हणून पळयताले. खासा कॉलेजाची सुरवातेसावन प्रिन्सिपॉलपदाची जापसालदारकी सांबाळपी कामत सरांनी कॉलेजाची कीर्त राखपाक थोडे कश्ट काडूंक नासले. नवे नवे प्रॉजेक्ट्स इंट्रोड्यूस करपांत ताजो हात धरपी कोणूच नासलो. शिकपी भुरग्यांकडेन तो सामको मेकळेपणान वागतालो; ताका लागून तांकांय तो आपलेच मदलो कसो दिसतालो. केन्नाय कोल्ल धुंविल्लेभशेन तो कांय निर्णयांचेर अती हट्टीपणा करतालो, पूण ताचेफाटल्यान ताचीय एक ॲनेलेटीकल नदर आसा म्हणपाचें रोकडेंच कळून येतालें.

सरकारान डी. एड ट्रेनींग कॉलेजां बंद करपाचो आदेश काडिल्ल्यान अंदूची दुसऱ्या वर्साची बॅच ही निमाणी बॅच आसली. ते खातीर निमणे वर्स संस्मरणीय जावचें अशें प्रोफेसरांसयत सगळया ट्रेनी टिचरांकय दिसतालें. पोंरु दुसऱ्या वर्साची बॅच कन्याकुमारी टुरार वचून आयिल्ली तेन्ना प्रिन्सिपॉलानच फुडल्या वर्साची ट्रीप सामकी यादस्तीक करूंक "नैनिताल" व्हरपाचें उतर दिल्लें. पूण वॅकेशन लागीं पावलें तरी प्रिन्सिपॉलान टुराची यादच काडली ना, तेन्ना उमेदीवयले ट्रेनी टिचर्स सामके बुचकळयांत पडले. तांणी जी. एस. रमेशाक फुडें काडून प्रिन्सिपॉलाकडेन विशय काडपाक लायलो, पूण प्रिन्सिपॉलान तो सामकोच फाफडून उडयलो. सगळयांक ती लज जाल्लेभाशेन जाली. तांणी अंदू टूर जावंकच जाय असो हट्ट धरलो, पूण प्रिन्सिपॉल तांकां बदलो ना. "तुमच्यांनी जाता तें करात, पूण अंदू

टूर कॅन्सल म्हळयार कॅन्सल.'' प्रिन्सिपॉलाच्या तोंडांतल्यान अशीं उतरां येत अशें कोणेंच धरूंक नासलें. ते सामके चाळवले आनी टुराक मान्यताय मेळ मेरेन तांणी वर्गांचेर बहिश्कार घालपाचें थारायलें.

पयल्या दिसा प्रिन्सिपॉलान तांची खबरच घेतली ना. दुसऱ्या दिसा सगळे कॉलेजाकडेन मात्शे बोवाळळे आनी सरळ थेटरांत सिनेमा पळोवंक गेले. तिसऱ्या दिसा प्रिन्सिपॉलान जी. एसाक आपोवन ताचेकडेन उलोवणीं केलीं. अंदूचें वर्स निमाणे वर्स जाल्ल्यान जायत्यो राटावळी जाग्यार घालूंक जाय, त्यापासत अंदू टुरार वचप परवडचें ना, अशें प्रिन्सिपॉलान सांगलें. आपूण आपल्या वांगड्यांक विचारून कितें तें सांगतां, अशें सांगून जी. एस. भायर सरलो. प्रिन्सिपॉलाचेर पयलींच सगळे चाळवल्ले. ताणें दिल्लें कारण म्हळयार आमकां तीन पानां करपाची मांडणी अशें तांकां दिसलें.

प्रिन्सिपॉलाक कसलें तरी काम आसा आनी ताका लागून तो आमची उमेद मारता, असो तांचो समज जाल्लो. ताका लागून चौथ्या दिसा जी. एस. रमेशाक प्रिन्सिपॉलान परत आपयलो तेन्ना सगळयांनी ताकाच धपकायलो. ''कांयच आयकूंक नाका आं... आमकां पॉलीसी करता? जाता तें करात म्हूण आमकां सांगता? पळोवया पूण तो कितलो आसा तो! नो कोंप्रोमायझ बिलो द अक्सेप्टन्स ऑफ द टूर प्रोपोजल, समजलो मरे?'' प्रिन्सिपॉलाकडेन उलयतना रमेश सामको उचांबळ जालो; उतरार उतर चडत रावलें आनी भिरकेभितर रमेशान ठोऽऽ करून प्रिन्सिपॉलाचेर फुलयलें. निमणें वर्स संस्मरणीय जावपासारकी घटना घडलीच.

**

शेनवारा सांजवेळां सगळे मोल्यां जमले. रमेशाच्या इश्टाचे भयणीक लग्न आशिल्ल्यान आपूण कळावान पावतलों म्हूण ताणें पयलींच सांगिल्लें. कशेयभाशेन सातांपयलीं मोल्यां पावंकच जाय म्हूण तो लग्ना-सुवाळयांतल्यान मदींच कडसरलो आनी ताणें एका इश्टाक स्कुटरीन केपेंच्यान सांवड्या वचून ट्रक-बीक कितेंय मेळटा जाल्यार पळोवंक आपणाक पावोवंक लायलो.

ताणें हात दाखयल्ली पयलीच लगेज गाडी ताका उबी रावली. ड्रायव्हरय तरणाटोच दिशिल्ल्यान आपूण सातांपयलींच मोल्यां पावतलों अशें रमेशाक दिसलें.

''ड्रायव्हरसाब, हम सात बजनेसे पहले मोलम पहूँच सकेंगे ना?'' ताणे ड्रायव्हराक प्रस्न केलो.

''इतली कसली ताकतीक आसा तर तुमकां?'' ड्रायव्हरान सरळ कोंकणीतल्यान प्रस्न केलो तेन्ना ताका अजाप दिसलें. आनी उमेदय जाली.

"आमची टिचरांची एक म्हत्त्वाची मिटींग थंय आसा; हांव तांचो लिडर. म्हाका सातां पयलीं थंय पावंकूच जाय." इंप्रेशन मारपाक रमेशान म्हळें.

"कांयच भिवं नाकात तुमी सर, हांव हेच लायनीत पयलीं मीनाचो ट्रक चलयतालों; हालींच लगेजीचेर चडलां. हो रस्तो म्हाका सामको पाठ जाला; तुमकां हुस्क्यामेकळो पावयतांच हांव."

"सर, आमकां भुरगेपणांत शिक्षणाचें म्हत्त्व कळळें ना, म्हणून आयज ह्यो असल्यो काडाओडी काडच्यो पडटात. तेन्ना चार अक्षरां शिकिल्ले जाल्यार आयज खंयय सुशेगाद नोकरेक चाकरेक आसतले आसले." ड्रायव्हर उलयत आसलो, पूण रमेशालें ताचेर लक्षच नासलें, तो फकत हूंऽ हूंऽऽ करतालो.

"म्हाका सरांक बी पळयतकच बरेंऽ दिसता. शिक्षण मनशाक मनीसपण शिकयता म्हणटात, ताका लागून हांव टिचरांक आदरान पळयतां."

रमेशान पळयलें, ड्रायव्हिंगाची गती बरीच उणी जाल्या, फुडें एक पोन्नो ट्रक सवकासायेन चलता; आनी ताका ओव्हरटेक करूंक मेळटा आसूनय ड्रायव्हर ताच्या फाटोफाटच चलता.

"हं... हो ट्रक आमकां गणयत दवरता दिसता!" चुळबुळयांत पडिल्ल्या रमेशान कपलाक आंठयो हाडीत अप्रत्यक्षपणान ती गजाल ड्रायव्हराचे मतींत हाडून दिली.

"तुमी कांयच भिवं नाकात सर. ती गाडी धारबांदोडेच्या मोडणावयल्यान तेवटेन घुंवन वयतली. मागीर पळयात तुमी, हांव असो नेट धरतां, केन्ना पावले तुमकां कळचेंच ना.

"पूण आतांच ताका ओव्हरटेक केल्यार आमच्यांनी सहज वचूं येता मरे!" अस्वस्थ जाल्ल्या रमेशान म्हळें.

"तें जालेंच सर; ताका सायड मारप व्हडलें न्हय. आनी सायड मारली म्हणून त्या ड्रायव्हराकय वायट दिसचें ना. पूण तो ट्रक चलोवपी ड्रायव्हर म्हजो गुरु, ताणेंच म्हाका गाडी शिकयल्या. आतां हांव ताच्याकूय फास्ट गाडी चलोवंक शकतां, पूण ताका गुरु म्हणून रेस्पेद दिवंक नाका?" ड्रायव्हरान म्हळें.

खीणभर रमेशाच्या दोळयांमुखार जगलावल्लेभशेन जालें. हो अन्नाडी ड्रायव्हर आपल्या गुरूक रेश्पेद दिता आनी हांव एक टिचर जावनय..."

सेलेब्रेशनाची ताची सगळी उमेदच मातयेभरवण जाली.

**

## १०

# पांयतणां

भुरग्यांनी पेटयल्ल्या नारंगांचो आनी फोगेटयांचो वास बोंडुमळार भरून आसलो. दोंगराच्या मुळसांत वसलेल्या त्या गांवांत वाडोभर लोकांची उमेद भरून ओतताली. बोंडुमळावयल्या धराघरांत तिसालाचे पांच दिसांचे गणपती दवरिल्ले. आयज गणपती पावपाचे. कांय जाणांगेर काल सत्यनारायणाची महापुजा जाल्ली, जाल्यार भोवतेक जाणांगेर आयज जाल्ली. वाडोभर लोकांगेर लागचीं पयसुल्लीं सोयरीं दाटिल्लीं. वाड्यावयलो म्हालगांवकार सगुण परबूचें घर म्हळयार सामकीच जात्रा जाल्ली. तागेलो वास्कोचो आनी पणजेचो अशे दोगूय पूत आपापले फांमिलीसयत आयिल्ले. तिगी जांवयय आपल्या बायल-भुरग्यांसयत आयिल्ले. ते खेरीज मेवणे, भाचे, मामालीं भुरगीं, हीं आनी तीं करून सोयरीं चोमेल्लीं.

जायतेकडेन पुजा आशिल्ल्यान सगुणाक पुजेक बसपाकच कळाव जाल्लो. त्या उपरान्त पुराण, वाड्यावयल्या भुरग्यांनी घुमटां शामेळींनी वरभर केल्ल्यो आरती, प्रसाद म्हळयार बरोच वेळ जाल्लो. जेवणार बशिल्ल्या सगळयांनीच रुचीक जेवणाची तुस्त केल्ली. शिवराक जेवणाची सुस्ती दादल्या मनश्यांक चडच आयिल्ली. सामके पयसुल्ले आनी ताकतिकेचे सोयरे फोर्साक बदनासतना घरा वचपाखातीर मोलेंच्या चेक पोस्टार येवन बशीक राविल्ले. कांय जाण शेंदरी घेवन चौकांतच आड पडिल्ले, जाल्यार कांय जाण ऑल्तेरांत बसून झेमिल्लेभशेन करताले.

सोप्यार बसून सगुण परबू आपल्या दोगतीगय जांवयांवांगडा मेंढीकोट खेळपाक बशिल्लो. तांचो खेळ रंगार आयिल्लो.

"ही घे म्हजी राणी." मदल्या जांवयान राणी धोडायत हात काडलो.

"आरे, ही राजाली बायल न्हय रे?" व्हडल्या जांवयान म्हळें, तशो सगळयांच्यो नदरो सपणांवटेन गेल्यो. शिरशिरतल्या पावसांत भिजत म्हणपाचे ताकतिकेन ती सपणां चडून एकदांची पडवेर आयली. त्या गिरेस्तकायेन भल्लेल्या घरांत ती कारुण्याची मूर्त कशी दिसताली. विटकें कापड, पिड्डुकांचें मंगळसूत्र,

हाताच्या दावकुलांत कंवचेचीं कांकणां, नाका-कानांत खवळां कशी नथ आनी वेड, आनी खाक्यांत सोश्याचें पील कशें देडेक वर्साचें भुरगें.

"हयवय, गोपीदादाल्या राजारामाली बायल ती" मांवान सांगलें.

"सिते, राजा कसो आसा गे?" खीणभर इस्पिकांचीं पानां सकयल दवरून सगुणान परतून तिका विचारलें.

"आसा बरो." तिका घुसमटलेभाशेन जालें.

"आगे सिताबायऽ खंय गे तूं, इतको कळाव सो जालो तुका?"

रुक्मिणीबायन, सगुणाले घरकाम्रीन तिका सोमतीच आपोवन भितर व्हेली; आनी तिका आपूण फुडल्या प्रस्नांच्या जाचांतल्यान सुटिल्लेभाशेन जालें.

"सामकेंच विटयलें रे राजान, पयलीं काय बरो भांगर कसो संवसार चलयतालो, अकस्मात कोण माथ्यार बसलो कोण जाणा!" खेळटां खेळटां गजाली सुरू जाल्यो.

"दुकान बी कशें चलता तर तागेलें?" एका जांवयान विचारलें.

दुकान विकून खाल्यार जाले स म्हयने!" मांवान म्हळें.

"मटको आनी खेळ लागतालो खंय ताका, न्ही?"

"ताका तशें लागना अशें कांयच नासलें. हो पयलीं मटको घेतालो, उपरान्त बुदवंतपणा करून आंगार दवरपाक लागलो; तातूंत शेणलो तो सामकोच काबार!" लोक मारपाक बी उठले, तेन्ना आमगेलोच सोयरो म्हणून हांवें सुद्दां देड हजार रुपये दिवन एक प्रकरण निभयलें. हिची बाबडेची काकुळट. बऱ्या सभावाची बायल ही, घराकडल्यान घालून करून लग्न केल्ली, हाणें विकून खाल्यो तिगेल्यो वस्ती!"

"आतां किदें करता तर तो?"

"करता मडसरी; केन्नाय मेस्तांवांगडा मेस्तपणाक बी वता. ना जाल्यार आसा घरांत पडोन. ही बाबडी हाडांचीं काडां करून, लोणचें, पापड, कापूस वाती, कोणागेरय काम वावर करून काडटा भुरग्यांक वयरः"

"कितलीं भुरगीं काय?"

"पाचं काय स कितलीं आसात."

"ह्या लोकांक फॅमिली प्लॅनिंगाचें म्हत्त्व केन्ना पट्टलें कोण जाणां!"

"आनी धाकटो भाव कितें करता, राजालो?"

"कोण अंनत मरे? तो आसा बरो ऑर्राद. तो पणजे सरकारी ऑफिसांत बरोवपाचें काम करता. फाटींच रजिस्टर लग्न जाला, बायलूय कसल्या दुकानांत काम करता खंय!"

"तो येना तर घरा?"

“येता केन्नाय सणां-परबांक. आयला चवथीक; कालूच मेळिल्लो म्हाका. हांवें यो म्हणिल्लें आयज; मेथावाड्यार गांवकारागेर दंपत्याक दवरला म्हूण सांगी.”

मेंढीकोट खेळटां खेळटां उलोवप आनी देवाक पांया पडपाक येतल्यांची खबर घेवप चालू आसलें.

सिताबाय देवाक पांया पडली, तीर्थ प्रसाद घेतलो.

‘तुमी वळखतात गो हिका? ही आमगेली आं; हांगेल्या बापोलभयणीली सून. सांकोड्डेची ती, नव्या वाडयार लग्न करून दिल्या.” रुक्मिणीबायन आपल्या सुनांकडेन तिची वळख करून दिली.

“यो मगे भितर”, रुक्मिणीबायन तिका भितर आपयली. रांदचे कुडींत वचपाक तिका बेठीच लजशी दिसली. ‘घरांतलीं बायलां सगळीं भांगरा-शिंगरांनी भरल्यांत, तातूंत हांव आनी लंकेची पार्वती कशी कित्याक?’ हो प्रस्न तिका आफडून गेलो. पूण रुक्मिणीबायन तिका दमय करुन ओडून रांदचे कुडींत व्हेली. नाका नाका म्हणटा आसतना तिका बशीभर मणगणें, चण्यांरोस, मुगांगांठी आनी वडे दिले. खाक्यांतल्या हाडां-सांपळयाक अदींमदीं भरयत तिणें बश्यो रिकाम्यो केल्यो आनी आशिकुशीचें उश्टें काडून नाका म्हणटा आसतनाय आयदनां धुवन हाडलीं.

“दनपारां येवपा न्ही गे, धाकटे जावेक मेथावाड्यार दवरल्या दांपत्याक, भुरग्यांक पयर भाव घेवन गेला, तांगेरुय आसा खंय पांच दीस गणपती.”

“येतां गे हांव” रुक्मिणीबायन पिंजरकुकूम लायतकीर वाड्यावयले हेर गणपती पळोवपाच्या निमतान तिणें सटकुपाचें थारायलें.

धाकट्याक खाक्यांत मारून ती हुमऱ्यार आयली; पळयल्यार पडवेवयले खांबलेकडेन दवरिल्लें जोतें ना. ती शेकानशेक थरथरली.

“म्हजें जोतें?” तिणें लागीं लागीं किळांच मारली.

सगळयांची नदर तिच्या पांयांकडेन गेली. जोतीं नाशिल्ल्या कारणानच तिच्यांतलें तेज देवलें, अशें काय दिस नासलें.

“कसलें जोतें?” कोणें तरी विचारलें.

“चामड्याच्यो व्हाणो, तांबश्या कोराच्यो, नवे मोदीच्यो.” एका दमांत तिणें सांगलें.

इतलीं बरीं पांयतणां सिताबाय घालून आयल्या जायत म्हणपाचें कोणाकूच पटलें ना. तिच्या पांयांत चडांत चड स्पोंजाचीं कट्टरीं पांयतणां सोबूं येतालीं.

“म्हगेलींय न्ही तीं! धाकटे जावेलीं.” सिताबायच्या ह्या एका वाक्यासरशीं पांयतणां ना जाल्ल्यान तिका इतको घाम कसो आयलो हाचें कारण सगळयांक होलमलें.

"धाकटी दवरपाची ना म्हाका, पिसडून खातली... गरजेवंताक खंय अक्कल नासता आनी आसूनय उपेग नासता... म्हजीं आशि-नाशिल्ली अक्कल घाणाक दवरून म्हणटात तशीं हाडल्यांत हांवें तिचेकडल्यान; मोठे उपकार केल्ले भाशेन दिल्यांत तिणें तीं म्हाका" आपूण खंय आसां, कोणामुखार उलयतां हाचें मात धंगण तिका उरलें ना. खाक्यांतल्या भुरग्याचो जीव गेल्लेभशेन तिणें आकांत केलो.

**

"धाकले, तुगेलीं पांयतणां मात्शीं घालतां हांव आं."

"नाका... नाका... एकूच जोडी हाडल्या ती हांवें, तये दिसाच घेतल्यांत. तुगेलीं नात तर गे?"

"आसा तें साप कट्टरें, पावला-पावलाक ताचो बुतांव निखळटा, तें घालून त्या सोयऱ्या-धायऱ्यांनी भरलेल्या घरांत कशी वयतलीं हांव! तूं येयसर रावल्या हांव तेखातीर"

"म्हगेलें बाये तें चामड्याचें, उदक लागल्यार पेड्डेर जातलें."

"पावस पडत सो दिसना गे, सांबाळून घालतां हांव."

"........"

"घालूं मगे?"

"घाल... सांबाळून घाल आं, पयलींच सांगतां, पावस पडलो जाल्यार हातांत काडून धर, चिखलांतल्यान वचूं नाका."

"येतां गे..."

"...किद्याक हीं खटां आमचे फाटीक लागल्यांत म्हूण कोण जाणां; सवायशीं रुपयांची पायतणां हांच्या पांयांत सोबतात तरी!"

**

"भिजोवंक बी ना मगे जोतीं? पावस शिरशिरतालो."

"......"

"उलयनाशी मगे? सांगलां आसतनाय मुद्दम भिजयलीं काय किदें गे?"

"......"

"तुगेलें जालां किदें, खंय म्हजीं पायतणां?"

"शेणलीं, कोणें चोरून व्हेलीं."

"चोरून...? ना, ना. म्हाका तें कांयच लागना, म्हगेलीं पांयतणां हाडून दिलीं काय जालें."

"हांवें सोदलीं सगळयाक, कोणें व्हेलीं कळळींच नात."

"तें म्हाका लागना... हांवें तुका पयलींच सांगिल्लें, म्हगेलें जोतें म्हाका जायच. बरी सांगता कोणे व्हेलीं म्हणोन. खंयय पूण लिपोवन दवरतेलीं आसतलीं आमी वयतगीर घालपाक. बेठीच काकुळटेक येवन घेवना तुवें तीं."

**

पांयतणां शेणलीं हें आयकून धाकली जाव कसो शिगमो घालतली, हें तिच्यान येवजुंकूंच नज जालें.

सिताबायच्या काकुळटफावो आकांतान सगळयांचें लक्ष उडलें.

न्हिदिल्ले सडसडीत जागे जाले, झेमतल्यांची झेम गेली. जांवयांनी इस्पिको शेनरेर दवरल्यो. माराणांतली एक एक फोगेट मेकळी करून पेटयतले भुरगेय पडवेर आयले. बायलो, दादले, भुरगे सगळे हांगा थंय सिताबायचीं पांयतणां सोदूंक लागले.

"कोणेंय व्हेलीं बी ना मगे घालून" कोणें दुबाव परगटायलो.

"व्हरपासारको काय कोणूच येवं ना" सगुण परबून म्हळें.

"मागीर गेलें खंय जोतें?" रुक्मिणीबायन म्हळें.

सिताबायचें मुळांतलें निस्तेज तोंड अदिकूच काळें किट्ट जालें. एका खिणांत आख्ख्या संवसाराचें दुःख तिच्या बोडार थापलां काय दिसूंक लागलें. खंयच्या खिणाक तिका रडूंक येत कळनासलें. तिची ती अवतिकाय पळोवन सगळेच चुरचुरले.

"देवाचे भेटेक आयिल्लेकडेन अशें भोगचें म्हाका, देवा गणपती, सत्यनारायणा... पावात रे सायबा, ह्या संकश्टांतल्यान सोडयात म्हाकां." मनांतल्या मनांत सिताबायन देवाक कपल झरोवन नमस्कार केलो.

"इतलो सोद करुनय मेळळें ना जोतें? चलात गो, जळवाचे खोंपींत पळयात, सुण्यांनी बी व्हरून उडयलां जायत." रुक्मिणीबायन म्हळें.

दोग तीग जाणां जळवाचीं लाकडां भरिल्ले खोंपींत धावलीं. फाटोफाट सिताबायूय गेली.

जळवाच्या खोंपीच्या दारांतच तिचीं पावलां खिळावल्लेभशेन जालीं.

"शनी म्हणटात तो गरिबांचेच फाटीक लागना मू?" तिच्या मेंदवाक हो प्रस्न कोंचून गेलो. लाकडांच्या दाळार शेजरा शेजरा बसून पॉपी आनी चंपी चामड्याच्यो दोनूय सोबीत व्हाणो चाबडायत आसलीं. तीं पायतणां उरूंक नासलीं.

भुरग्यांनीं नारींग पेटयलां आनी आपलोय तातूंत धुंवोर जाला, अशें तिका खिणभर दिसलें.

पांयतणां चाबडायतल्या सुण्यांचो लाकडा तोणक्यान जीव काडचो काय गणपतीक आनी सत्यनारायणाक बोंबलेच्या देंठासावन गाळी संवच्यो, हेंच तिका कळना जालें.

ती घो करून थंयच कोसळ्ळी.

**


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No :002282

११

# भिरांकूळ

खंयच्या म्हुर्तार हांव भायर सरिल्लों कोण जाणां! कॅसलरॉका पावता म्हळयार एके एके अडचणीन जीव सामको उबगून गेलो. पयलीं सांवङ्या स्टेशनार बोटव्यांत पळय जाल्यार हांवें टॉर्चूच हाडूंक ना. बेगिबेगीन भाङ्याचे मोटरसायकलीन घरा येवन टॉर्च व्हेलो. गाडी सुट्टां सुट्टां धांवत गाडयेर चड जाल्यार भितर बसपाकच न्ही, सारको उबो रावपाक लेगीत सुवात ना. कशेभशेन घांटयांमदीं घुसपून घुसपून रावलों; कुळेंच्या स्टेशनार च्या पिवपाक देंव जाल्यार फाटल्या बॉल्सांत दवरिल्लें पैश्यांचें पाकीटच ना. ताचेपरस चड पिकासांव म्हळयार करंझोळच्या स्टेशनार गाडी वर भर उरिल्ल्यान कॅसलरॉका पावता म्हळयारूच म्हाका पांच वरां जालीं. प्लॅटफॉर्मार देंवन हांवें सत्री, बोटवो आनी उरिल्ले पैशे साबूत आसात म्हणपाचें खरेपण केलें. पयलेच खेपेक हांव कॅसलरॉका पाविल्लों. दादीन सांगिल्लें, प्लॅटफॉर्मार देंवन उरफाटे दिकेन चल, रुळांच्यो जोड्यो सोपतकीर सपणां लागतलीं, त्या उपरान्त एका देवळाच्या मात्शे मुखार दोन रस्ते लागतले. दाव्या हाताच्या रस्त्यान फुडें बाजार लागतलो, तोच रस्तो हायस्कुलाकडेन वता. वाटेर तुका कानडी शाळा लागतली, शाळेच्या फाटल्यान आसा तें जगन्नाथालें घर.

सपणां देंवन हांव दावे वटेनच्या रस्त्यान बाजाराचे दिकेन फुडें सरलों. लांबचे लांब सांकव आनी दोशीवशीं उबीं आशिल्ल्या आकांताळया झाडांच्या सांवळेंतल्यान बाजारालागीं पावलों. बाजार म्हणून नांवाचोच. दोशींवशीं चाळीस पन्नास दुकानां आनी सारको मदल्यान वचपी नवोच केल्लो डांबरी रस्तो.

बाजार सोपतां सोपतां हांवें एका भुरग्याक हटकिलो.

"बाळा, हायस्कुलालागीं वचचो रस्तो खंयचो?"

"होच, हे त्या नळाकडल्यान मोडण घेवन फुडें हायस्कुलाकडेन वयता." भुरग्यान जाप दिली.




"जगन्नाथालें घर खंय जाणा तूं?"

"कोण जगन्नाथ?" भुरगो बुचकळयांत पडिल्लेभशेन दिसलो.

"जगन्नाथ... तो... कानडी शाळेफाटल्यान रावता तो."

"हां... हां... बिबटो जगा!" भुरग्यान हांसत म्हळें. "तो मरे? गोंयांत ब्लॅकाक वयता तो? ही पळय, ही ती धवो रंग मारलेली दिसना, ती कानडी शाळा, फाटल्यान आसा तें घर बिबट्या जगाचें."

जगन्नाथ आनी दादी वांगडाच ब्लॅक करताले. दादीन ब्लॅक करपाचें सोडले उपरान्त जगन्नाथ दोन-तीन खेपो आमगेर येवन गेल्लो. ताच्या तोंडार कसल्यो तरी मांवो आसल्यो, त्याखातीरच गांवांत ताका बिबटो जगा म्हणटात आसतले, असो अंदाज हांवें बांदलो.

कानडी शाळेफाटल्यान एकसुरेंच आशिल्लें जगन्नाथालें घर सामकेंच मोडपाक पाविल्लें. ह्या घरांत आयची रात काडूंक जाय ह्या विचारानच म्हजें आंग शिरशिरलें. पडवेर येवन हांवें दारार माल्लें, तशी भुतांच्या वाड्यांतल्यान चेटकीण भायर सरची तशी, सुमार एक साठ-पांसश्ट वर्सांची एक किट्ट-काळी राणाव बायल भायर सल्ली. जगन्नाथाच्या रुपाकडेन तुळा करतना ती ताची आवय आसतली हें पारखूंक म्हाका वेळ लागलो ना.

"कोण जाय?" तिच्या तोंडांत फकत दोनूच दांत आसले.

"जगन्नाथ आसा?" हांवें विचारलें.

"तूं खंयच्यान आयला पयलीं सांग." ब्लॅक करपी पुताक धरूंक आयिल्लो हांव पुलिसेचो मनीस आसत असो तिका दुबाव आयलो आसतलो.

"हांव सांवड्डेच्यान... गोंयच्यान आयलां... वखद व्हरूंक." हांवें म्हळें.

"हां... हां... बस आं." अशें म्हणत तिणें म्हजेफुडें एक तामरेत दवरली. जगन्नाथ ना?" हांवें विचारलें.

"तो बरो नासलो म्हणून भिकू मडवळाक रकाद दिवंक पावलो ना. ते खातीर आयज दनपरां थंय गेला. तुका फाटल्यान यो म्हळां. भिमश्या दाखयतलो तुका वाट." अशें म्हणून तिणें पुताक उलो मारलो. धा-बारा वर्सांच्या भिमश्याक पळोवन म्हज्या कपलावयल्या मिरयांची संख्या अदिकूच वाडली. मोन्यानी हांव ताचे फाटल्यान चलूंक लागलों. एके झरीवयले वाटेर थांबून ताणें म्हळें, "हीच ती धोबी वाड्यावयली झर, हे वाटेन फुडें चल, मुखार भुतांचें शेत लागतलें. ताच्या मदल्यान वचपी वाट फुडें उकत्या मळार पावता. मळाचे वयलेवटेन थोडीं घरां दिसतलीं. करमुलेचो गांव ताच्याकय मुखार आसा. मळाच्या तोंकार एक पडकी बांय दिसतली, थंयच्यान सकले वाटेन देंव. मात्शें मुखार व्हाळाचे वयले वटेन थोडीं घरां दिसतलीं; पयलेंच

लागता तें भिकू मडवळालें घर. अण्णा थंयच आसतलो."

"भुतांचें शेत म्हळयार?" हांव भिवंक ना अशें दाखोवपाचो यत्न करतालों.

"भुतांचें शेत म्हळयार कारवांचें लांबचे लांब रान, थंय लागीं आनी दुसरीं झाडां नात, लागीं घरांय नात; सगळो वाठार भिरांकूळ कसो. दनपारां सुद्धां ऊंच वाडलेल्या कारवांक लागून ते वाटेर वत पावना, म्हणून ताका भुतांचें शेत म्हणटात." म्हाका हांसत भिमश्या परतलो.

म्हजें हड्डें धडधडपाक लागलें. वांगडा जगन्नाथ आसलो जाल्यार प्रस्न नासलो, पूण वखदाचे तजविजेक तो पयलींच मुखार गेल्लो. भिमश्याची पिराय पळयल्यार ताका यो म्हूण फोर्स करप समा नासलें. मोठ्या धिरान हांवें फुडें पावल घालें. भुतांच्या शेतांतल्यान वतना ओगीच पांय जड जाल्लेभशेन दिसूंक लागले. दुबावानच फाटल्यान कोणय शू... शू... करता काय दिसूंक लागलें. फाटल्यान घुंवन पळोवपाचो म्हाका धीर जालोच ना. दोशींवशीं कारवांनी दाटिल्ल्या त्या भुतांच्या शेतांतल्यान देवाचें नांव जपत हांव सपसपीत पावलां घालीत उकत्या मळार एकदांचो पावलों. मात्सो मुखार गेल्यार मळार एक नाटकाची स्टेज घाल्ली दिसली. माडयांच्या करव्यांचेर फळीं दाळिल्लीं आसलीं; पड्ड्यांच्या जाग्यार चादरी लायिल्ल्यो. मुखार बसपाक पिंजकऱ्यो शेनऱ्यो आनी साकाभाळींय आसलीं; पूण आशिकुशीक एकूय जितो मूस झळकनासलो. हें कितें कुवाडें तें म्हाका कळ्ळें ना. हांवें घडयाळींत पळयलें, साडे स वरां जाल्लीं. त्या उक्त्या मळार सूर्य खंयच्यान उदेता आनी खंयच्यान अस्तमता हें कळपासारकें नासलें. हांव चलत रावलों. पडके बांयंत ओणोव घालून पळोवपाचें धाडस म्हाका जालें ना. सकलेवाटेन देंवन हांवें व्हाळ हुपलो. पयल्याच घराच्या आंगणांत जगन्नाथ उबो आसलो.

"यो... यो... बाळा... तूं वाट-बीट चुकत म्हूण म्हाका भंय जालो." ताणें म्हळें.

भिकू मडवळान वखद पयलींच काडून दवरिल्लें. म्हजेकडेन एक तुवालो आनी तांबयो दीत ताणें म्हळें, "काळोख जायत आयलो पळय; तुमकां वचूंक वेळ जातलो. चल बेगीन त्या व्हाळार वचून दोन तांबये रकोवन यो. म्हाका सामको उबग आयिल्लो, तरी हांव व्हाळार गेलों. थंड किरांव उदकाचो पयलो तांबयो रकयतना म्हज्या सगळया आंगाक झिणझिण्यो आयल्यो.

खरें म्हळयार वखद व्हरपाक येवपाचें म्हज्या मनांतच नासलें. हांव केन्नाच पावंक नाशिल्ल्या कॅसलरॉकाक एकलोच येवप, थंयच्यान देड दोन किलोमीटर चलून रानांतल्या खेड्यांत वचप, आनी वखद घेवन फांतोडेर पांचांक सुटपी गाडयेचेर एकलोच परतुवप. वखद म्हणूनय विपरिताचेंच- न्हालेबगर हातांत

घेवंक जायना, हातांत घेतकीर उलोवंक जायना, कांयच खावंक जायना, मुतूंक जायना, वखद जमनीर दवरूंक जायना असलीं पथां. हीं पथां म्हज्यान पाळूंक जायत म्हणपाचें म्हाका खरेपण नासलें. पूण बाबाच्या उतराक म्हाका येवचेंच पडलें. दादी, आमगेलो बापोलयो, आरीच्या दुयेंसान हातरुणार पडिल्लो. ताचो एक हात आनी पांय जड जाल्लो; आधाराबगर उठूंक बसूंक जाय नासलें. जाय तीं वखदां करून म्हणपासाको गूण पडूंक नासलो. इतके मजगतीं एका दिसा सांवड्या आयिल्लेकडेन जगन्नाथ बाबाक बाजारांत मेळ्ळो; दादीच्या दुयेंसाची खबर आयकतकच वखद व्हरपाक ताणें म्हाका धाड म्हूण सांगलें.

भिकू मडवळान सगळयो चत्रायो दिवन वखदांची पोटली म्हजेकडेन दिली. मोन्यांनी ती बोटव्यांत उडोवन हांव जगन्नाथा फाटोफाट चलूंक लागलों. काळोख दाटत आयिल्लो. वाटेवयली येदोळची स्टेज थंयच आसली, पूण आजूनय थंय कोणच मनीस दिस नासलो. ही कितें भानगड म्हणून जगन्नाथाक विचारीनशें दिसलें, पूण वखद आशिल्ल्यान उलोवपाक मना आसली. भुतांचें शेत जाल्यार आतां सामकेंच भिरांकूळ दिसतालें. हेवटेन तेवटेन सुर्र ऽऽ सुर्र ऽऽ चालूच आसलें. केन्नाच आयकूंक ना इतल्या मोठ्या आवाजांत रातकिडे आड्डताले. म्हजें काळीज खपखपतालें; पूण वांगडा जगन्नाथाचो धीर आसलो. जगन्नाथागेर पावता म्हळयार साडे-आठ वरां जालीं. पडवेवयले पाटयेक मारिल्ल्या खिळयाक वखदांचो बोटवो हुमकळावन हांवें पिवपाक उदक मागलें.

"ती वाटेर आसली ती स्टेज कसली?" उदक पितां पितां हांवें जगन्नाथाक विचारलें.

"हांव समजल्लोंच तूं काचाबूल जातलो म्हूण" ताणें म्हळें, "आयज थंय वाड्यावयल्या भुरग्यांचें नाटक जावपाचें आसलें, पूण सांजवेळां कोणालें एक धाकटें भुरगें मेलें म्हूण तांणी नाटक आयज रद्द केलें."

म्हजी तकली भेरेत वता काय म्हाका दिसतालें. पोटाक तशी भूक लागूंक नासली; पूण वखद घेवन फाल्यां घरा पावसर, उणेच ते सकाळीं आठ मेरेन पोटांत कांयच उडोवंक मेळचें ना, ह्या हुसक्यानच हांव अर्दो जाल्लों.

हांव आनी जगन्नाथ पडवेरच न्हिदले. फाट तेकयतनाच जगन्नाथ घोरेवपाक लागलो. म्हाका मात कसोच दोळो लागना जालो. परत परत तें भुतांचो वाडो कशें मोडकरें घर, तातुंतली चेटकीण कशी जगन्नाथाली विद्रूप आवय, वाटेवयलें दोशींवशीं मातिल्लें भुतांचें शेत, एकूय मनीस सरभोंवतणी नाशिल्ली ती विचित्र स्टेज आनी हांवें पळोवंक नाशिल्लें तें वाड्यावयलें मेल्लें भुरगें,

सगळें सगळें म्हज्या दोळयांसामखार घुंवपाक लागलें. हांव रातभर तळमळत उरलों. रातचो चारांच्या अदमासाक उठून हातरुणार बसलों, उश्याकडलो टॉर्च घेवन हांवें जगन्नाथाचेर उजवाड घालो. मेल्ल्याभाशेन तो पडिल्लो. हांवें ताका उठोवपाक हात लायला मात, म्हज्या हाताक चुरको आयिल्लेभशेन जालो. तो जोरान सामको भाजतालो. म्हाका फांतोडेर स्टेशनार पावोवन येतां म्हूण ताणें सांगिल्लें; पूण हे अवतिकायेंत ताका उठोवप म्हाका समा दिसलें ना. हांव उठलों. कांयच उलोवंक जायना हें ध्यानांत दवरून सत्री, टॉर्च लागीं केलो, मनांतल्या मनांत देवाक नमस्कार केलो आनी खिळयाचो बोटवो काडून खांदाक लायलो.

गाडी स्टेशनार येवपाक सुमार अर्दवराचो कळाव आसलो. भायर बारीक पावस पिरपिरतालो. हांवें स्टेशनाचे दिकेन पावलां घालीं. टॉर्चाच्या उजवाडांत सात-आठ पावलां डांबरी रस्तो सोडल्यार आनी कांयच दिस नासलें. मोन्यांनी हांव चलत रावलों. इतल्यांत म्हज्या पांयांकडल्यान कोण पूण धांवलो. हांवें कच्च करून आंग काडलें. शितीद नासतना हांव आड्डुपाचोंच. हांवें टॉर्च मारून पळय जाल्यार एक भिरांकूळ किट्ट काळें माजर कानडी शाळेवाटेन धांवतालें. म्हजे पांय जड जाले, थंयच बसकण मारचीशी दिसपाक लागली. भुतांचो वाडो, चेटकीण, भुतांचें शेत, पडकी बांय, स्टेज, तें भुरगें, सगळें परत एकदां दोळयांमुखार नाचून गेलें; आनी हांव सामकोच गळसणिल्ले भशेन जालों. पूण तसोच फुडें वचपाखेरीज पर्याय नासलो. म्हाका केन्ना काय स्टेशनार पावल्यार पुरो जाल्लें. वाटेर कोणाकडेनच उलोवंक पडूंक जायना म्हूण बापायन म्हाका फांतोडेचेर परतुपी गाडयेन येवपाची मांडणी केल्ली, ती जिवार आयिल्लेभाशेन दिसूंक लागली.

हांवें तोंड सुद्दां धुवंक नासलें. आतां सडसडीत स्टेशनार वचप, तिकीट कॉंवटरार वखद आशिल्लो बोटवो दवरप, तिकीट काडप आनी नळार वचून तोंड धुवप अशें मनांत थारावन हांव झपझपीत चलपाक लागलों.

पिडा कसो पावस पिरपिरत आसलो. बाजारांतलो रस्तो सोपत आयिल्लो. आतां सपणां चडून रोखडोच स्टेशनार पावतलों हे उमेदीन फुडें घाल्लें म्हजें पावल थंयच खिळावलें. म्हज्या आंगार सरसरून कांटो उबो रावलो. तकले सावन पांयांमेरेन सगळें आंग भेरेल्लेभाशेन जालें. म्हज्या मुखार सुमार धा पावलांचेर म्हजो रस्तो आडावन एक किट्टकाळी आकृती उबी आसली. म्हजे दोळे परते जावपाकडेन पाविल्ले तरीय खंयच्या तरी धिरान म्हज्या टॉर्चाचो उजवाड हांवें ते आकृतीचेर घालो. हातांत लाठी घेवन, काळोच रेनकोट घाल्लो गुरखो रस्त्यामदीं उब्यानीच झेमतालो. पूण तो गुरखो हें समजून

घेवपाचे मनःस्थितींत हांव नासलोंच. भंयान हांव सामकोच मालूक जाल्लों.

"भूत... भूत..." अशी मोठ्यान किळांच मारून हांव घो ऽऽ करुन सकयल कोसळ्ळों. वखद आशिल्लो बोटवो खांदार आसतना उलोवंक जायना हाचें मातपसून धंगण म्हाका उरूंक नासलें.

**

१२

# मर्णतेळणी

"धाकट्या इजनेराली जीप येता रेऽऽ लागात बेगिबेगीन कामाकऽऽऽ" म्हाट्टीच्या झाडार चडोन, म्होंव लागलेलो खांदो हाणटां हाणटां फ्रांसीकान दोंगुल्लेचे वाटेर चडटना खरशेतले जिपीक पळयली आनी हेर मानायांक शिटकावपाक मोठ्यान आड्डत तो ताकतिकेन सकयल देंवलो. विडी ओडपाच्या निमतान काम बंद करून म्हजे भोंवतणी बसून गजाली मारतले हेर मानांयय सडसडीत उठले आनी कोयत्यो हातांत घेवन झेतार झाडां बेणपाक लागले. सकाळच्यान तांणी धड काम करुंकच नासलें. दाण्या-दोंगराच्या माथ्यार चडून येता म्हळयारच आमकां साडेणव जाल्लीं. आयज हांव तांच्या म्हर्‍यांत उबो रावन काम करून घेना हें पळोवन तांणी तांचो हात मातसो सवकाच धरिल्लो. ते सगळे गरजेभायर वडी मारतात तें पळोवनय हांव तांचेर ताणशेलों ना. आयज म्हजी मनःस्थितीच सारकी नासली. सदचे भशेन तांच्या कामा आळसाक एक धेंगसो घालचो अशेंय म्हाका दिसलें ना. सकाळच्यान हांव दाण्या-दोंगराचे तेमकेवयल्या आकांताळया सातणा-झाडामुळां बसून आसलों. हांव बसलां थंयच्यान पयस सकयल साळावले धरणाचें काम चलता तें दिसतालें. तरातरांचे मशिनरीचो आवाजय हय-न्हयसो आयकूंक येतालो. धरणाचें काम अर्धावयर पुराय जाल्लें. फुडल्या पांच-स वर्सांनी बांदून पुराय जावपाचो अदमास आशिल्ल्या धरणाचें उदक पिवपाक वापरपाखातीर दाण्या-दोंगरार एक ट्रिटमेंट प्लान्ट बांदपाचो आसलो. हांव हांगा शिर्विसेक लागचे पयलीं सर्वे बी करून जाल्ली. ह्याच दिसांनी कामाचें टेंडर काडून कॉंट्रेक्टराक वर्क ऑर्डरय दिल्ली. फुडल्या सप्तकांत मुखेल मंत्र्याच्या हातान बुनयादीचो फातोर घालपाचो सुवाळो जावपाचो आसलो. तेखातीर बेगोबेग जमीन मार्कींग करुन दिवंक जाय म्हूण व्हडल्या इंजिनियरान म्हाका मानाय घेवन गरजेची सगळी सुवात निवळ करून घेवपाक सांगिल्लें. काल पयर मानयांचेर तापोवण्यो काडीत हांवें काम करून घेतिल्लें; पूण आयज मात म्हजें चित्त कामार कशेंच लागनासलें.

ॲसिस्टंट इंजिनियराली जीप दोंगर चडत लागीं येतना वाडत वतलो आवाज म्हजें आंग भेरोवंक लागलो. सगळे मानाय धांवन काम करपाच्या नाटकाक लागले तरीय म्हाका उठून उबो रावचो अशें दिसलें ना. म्हज्या आंगांतलें त्राणच ना जाल्लेभाशेन जाल्लें. काल सकाळींच हांगा येवन सायट इन्स्पेक्शन करून गेल्ल्या ए. ई. क आयज परत भर दनपरां साडेबारांच्या अदमासाक हांगा सायटीर येवपाक म्हज्या बापायच्या मर्णाचो रकाद सोडून आनी कसलेंच काम आसचें ना, हाची म्हाका खात्री जाल्ली. आयज कामार वचूंकच नाका म्हणून घरचीं सकाळीं म्हजे फाटीक लागिल्लीं. निमणो घरघर लागिल्ल्या बापायचो जीव खंयच्या खिणाक वचत म्हणपाचो भरवंसो नासलो. हातरुणार पडिल्ल्या बापायची भलायकी हुस्को जायसारकी इबाडिल्ली. पूण दाण्या-दोंगरावयली सायट निवळ करपाचें काम म्हजेर फर्मायतना एक्झिक्युटीव्ह इंजिनियरान म्हाका मात सुद्धां हयगय जाली जाल्यार शिर्विसेवयलो सोमतोच निखळायतलों म्हणून शिटकावणी दिल्ली. आनी आमच्या ई. ई च्या रानवटी सभावाची म्हाका पुराय वळख आशिल्ल्यान हांव घरच्यांचें सांगणें मानी नासतना डब्यांत दोन चपात्यो घेवन कामार भायर सरिल्लों. दाण्या-तिस्कार पावता म्हळयारच म्हाका आठ जाल्लीं, सगळे मानाय कोयत्यो, भुती घेवन म्हजी वाट पळयत थंय राविल्ले. दाण्या-दोंगरा वटेन वचपी ट्रकाची वाट पळयत दीस गणोवचेपरस वाटेर ट्रक दिसल्यार हात दाखोवचो अशें चिंतून आमी रस्त्यान चलूंक लागले; पूण कुर्डे वचपाच्या मोडणार पाव मेरेन आमकां एकूय गाडी थांबली ना. थंयच्यान आडवाटेन दाण्या-दोंगरार चलून पावता म्हळयारच आमकां कळाव जाल्लो.

मर्णाधडेर आशिल्ल्या बापायचो हुसको आनी चलू-चलून जाल्ली कांसेर हाका लागून म्हजो जीव सामको गोळाक लागिल्लेभाशेन जाल्लो. आनी आतां बापायच्या मर्णाचो रकाद घेवन येतली जीप पळोवन म्हज्या दोळयांमुखार तांबडो काळो रंग नाचूंक लागलो. गाडी वयर पावत आयली. कितलोय कठोर रकाद आयकुपाक म्हजें मन घट करून हांवें दोळे धांपले. म्हज्या दोळयांमुखार फुडलें चित्र उबें रावलें. आतां थंय तळार जीप थामतली... ए. ई. जिपींतल्यान देंवतलो... काम करतल्या मानायांक, सुपरवायझर खंय आसा काय म्हूण विचारतलो... तांणी झाडामुळांत बोट दाखयतकीर म्हजेवटेन घुंवन वयर येतलो... आनी म्हज्या खांदार हात दवरीत म्हणटलो, "मिस्टर नायक..., आमी... सांग्यार ऑफिसांत या." हांव ओगीच रावतलों.

"तुका एक रकाद आयला... इट इज नोट मच सिरीयस... पूण तुका घराकडेन बेगीन आपयला खंय. हांव तेवटेन जीप घेवन जेवणाक वचपाचों आसां... सोमतोच तुकाय घराकडेन सोडटां...!" ए. ई. जाणा जावन बापायच्या

मर्णाची गजाल लिपयता म्हणपाचें म्हाका कळटलें... आनी काळीज भरून येवन म्हज्या दोळयांतल्यान भळभळीत दुकां देंवतलीं.

"यू ऽऽ इडियट ऽऽ... हांगा यो रे तो ऽऽ माऽर झेतार राजाभशेन बसला थंय! नॉनसेन्स... तुका दिल्ल्या कामाचें मातूय सिरियसनेस ना? राव... तुका आतां घराच धाडटां..."

हांवें चितलें कितें आनी खिणाभरयांत घडलें कितें, हेंच म्हाका कळळें ना. दोळे उगडून पळयत जाल्यार ई. ई. ली जीप घेवन आयिल्लो एक्झिक्युटीव्ह इंजिनियर म्हजेर तापोवण्यांचो शिंवर घालतालो. साक्षात खेत्री कसो म्हज्या मुखार उबो राविल्ल्या ई. ई. क पळोवन म्हजें हाडान हाड शिरशिरिल्लेभाशेन जालें.

"देवा सायबा ऽऽ ह्या देंवचाराच्या बचक्यांतल्यान सोडय रे म्हाकाऽऽ" मनांतल्या मनांत देवाक होरायत हांव थरथरत ई. ई. म्हऱ्यांत उबो रावलों.

"तुजें इतलें पोदिसांव वाडलें? मानायांचेर दोळो दवरपाचो सोडून, हांव येता तें पळोवनय तूं थंय भाटकार कसो बसून रावला? असल्यांनी तुजी गरज तरी कसली हांगा? हें काम चार दिसांभितर करून घे म्हूण सांगिल्लें मरे? आनीक चार दिसांनी पूण जायत मरे तें दळदिऱ्या? तूं असल्यांनी आमकांय त्रासांत उडयतलो. राव... तुका सारकी बुद्द शिकयतां... आतां ऑफिसांत वतां आनी तुका टर्मिनेशन ऑर्डर काडटां...!"

आल्सेशियन सुणो भुंकीत म्हज्या आंगार झुडटा अशें म्हाका खीणभर दिसलें. म्हज्या तोंडांतल्यान एकूय उतर फुटलें ना.

"सायब, तेगे बापूय सामको बोरो ना खूंय... म्हणोन बोसलोलो तो मात्सो आतांच." एका मानायान म्हजो पाखो घेवन ई. ई. क समजावपाचो यत्न केलो. पूण सायबाचेर ताचो कुस्कूट परिणाम जालो ना.

"बरो नासूं ऽऽ... जितो आसा मरे? नाका जाल्लीं निमतां काडून तूं आब्सेंट मात राव... सोमतोच घरा बसयतां तुका हां." ई. ई. म्हजेर आनीक चाळवलो. भर दनपरां म्हज्या दोळयांमुखार नखेत्रां लिकलिकिल्लेभाशेन जालीं.

"युजलेस सुपरवायझर... असो हांगा यो... हीं पळय, हीं सगळीं झाडां मुळांसावन बेणून घे. परांमेरेन सगळें निवळ जावं दी. मंगळाराक सी. एम्. येतलो, ताचे पयलीं ई. ई. क सायट मार्क करून दिवंक मेळूंक जाय. आनी सांगिल्ल्या वेळांत काम जालें ना जाल्यार मात सांबाळ तूं.. तुका निवळायतां हांव..."

"...आयकलां मरे तुमीऽ." सगळया मानायांक आयकूंक येता अशा आवाजांत तांचेवटेन हात वावडीत ई. ई. न म्हळें आनी तो जिपींत वचून बसलो.

देंवती देंवतले जिपी फाटल्यान म्हाका दोरयेन बांदून घाला आनी हांव

फरफटत ओडत वतां अशें म्हाका खीणभर दिसलें. म्हज्या दोळयांत दुकां भर्ली. कामावेल्यान काडून उडयत म्हणपाच्या भंयान म्हजी कूड पोकळ पोकळ जायत चल्ल्याशी म्हाका जाणवली. ही सिर्वीस वगडावप म्हाका कशेंच परवडपासारकें नासलें. बी. कॉम. जावन देड-दोन वर्सां हांव लागीं-लागीं बेकारूच उरिल्लों. फाटल्या वर्सासावन बापूय अर्धांगाचें जावन हातरुणार पडून आसलो. ताच्या वखदा खेरीज कॉलेजांत शिकपी धाकटो भाव आनी मॅट्रीकेक आशिल्ली धाकटी भयण हांकां शिकोवपाचीय जापसालदारकी म्हजेर आसली. हाका ताका पांया पडून हांवें हिशोब बरोवपाचेंय काम केल्लें; पूण म्हयन्याक देड-दोनशें रुपयांवयर म्हाका मेळूंक नासले. अश्या वेळार मोठ्या फावोरान म्हाका दिसवड्या कोंतार दिसाक बारा रुपये पगाराची सुपरवायझराची शिर्वीस मेळिल्ली. म्हजो किडकिडीत आंगलोट पळोवन म्हाका सुपरवायझर म्हूण दवरपाक ई. ई. कसोच तयार नासलो. पूण म्हाका घेवन ताच्या म्हऱ्यांत गेल्ल्या म्हज्या बऱ्या मागप्यान म्हजी कठीण परिस्थिती ताका सांगतकीर नाखोसयेनच ताणें म्हाका शिर्विसेक दवरिल्लो. येदीशी सुद्धां चूक जाल्यार तो म्हाका वयर सकयल करतालो खरो, पूण ह्या तीन म्हयन्यांत म्हयन्याम्हाल मेळिल्ल्या तीन-सवाय तीनशें रुपयांत आमी सादारणशे दीस काडिल्ले. ह्या सप्तकांत मात बापायचें दुयेंस सामकेंच जडावल्ल्यान आशि-नाशिल्ले सगळे पयशे वखद-दोतोराक खावोवन जाल्ले. बापायचें कितेंय बरें वायट जाल्यार कशें कितें जातलें हे विशीं चिंतपाक सुद्धां म्हाका धाडस जाय नासलें.

हांव सामकोच घुसमटमारांत सांपडिल्लों आनी ई. ई म्हाका शिर्विसेवयलो काडून उडोवपाचो भंय घालून गेल्लो. म्हज्या हाडांतलो गोरोब थंड थंड जातासो म्हाका दिसलो. कोणा पूण मानायान धांवत येवन म्हाका धरलो आनी तोंडार गॅलनांतलें उदक पचपचीत मारलें, ना जाल्यार हांव थंयच घुंवळ येवन पडटलों आसलों.

जेवणा उपरान्त हांव मनाआड मानाय काम करताले थंय उबो रावलों. म्हजी नदर घुंवूघुंवून रस्त्यावटेन वताली. बापायच्या मर्णाचो रकाद घेवन जीप आतां येतली, मागीर येतली ह्या हुसक्यानच हांवें सगळो आदेस काडलो. म्हजी अवतिकाय पळोवन म्हजी काकुळट केल्लेभशेन सगळया मानायांनी कमर मोडसर काम केलें. होच नेट फाल्यांय धरलो जाल्यार फाल्यांच्या दिसाभितर सगळें निवळ करून जातलें अशें म्हाका दिसलें. सांजेचो मात्सो बेगसारच हांव दोंगर देंवन रस्त्यार आयलों. लाकडां व्हरपी ट्रक मेळिल्ल्यान दिसा उजवाडींच बाजारांत पावलों. झपझपीत पावलां घालीत हांवें घरची वाट धरली. दांबरी रस्तो सोपून पाळणींत भितर सरतना मात म्हजीं पावलां जड जाल्लेभाशेन जालीं. ही पाळण

हुपून फुडले शेतोडेंतल्यान हांव आमच्या वाड्यार पावतलों. आमच्या आंगणांत कांय शेजारी हात कामरून उबे आशिल्ले म्हाका दिसतले. हांव दिश्टी पडनाफुडें ते एकामेकाकडेन कितेंतरी फुतफुततले. हांव घराच्या लागींलागीं पावतां तसो रडपाचो आवाज वाडत वाडत म्हज्या कानांत पावतलो. हांव आंगणांत पावतकीर एकलो शेजारी मुखार सरतलो आनी म्हाका खाक्यांत धरून व्हरतलो. घरांत बापायची निर्जीव कूड दवरिल्ली आसतली. एका कोनशाक, रडोरडोन कासावीस जाल्ले आवयक आनी भयणीक सांबाळीत शेजारचीं बायलां बशिल्लीं आसतलीं. तांच्या मुखार सोदाच्यो बाटल्यो आनी चेंचयल्लो कांदो आसतलो. बापायच्या मड्याशेजरा दिवली पेटयल्ली आसतली. एकेवटेन एका पेल्यांत उजवाती घाल्ल्यो आसतल्यो. कुशीक एके पिरयेंत साखर दवरिल्ली आसतली. तातूंत लोकांनी मारिल्ले चिमटेचे दाग स्पश्ट दिसतले. म्हजें रडें सांबाळीत हांवय एक चिमटी मारतलों आनी 'आं ऽ' जाल्ल्या तोंडांतले साखरीचे राशीर म्हजीय चिमटी दवरीत "बाबाऽ रेऽऽ" म्हणून गजाल मारीत घालून घेतलों.

हांव आंगणांत पावलों तेन्ना भायर कोणच म्हाका दिसलो ना. भितर चौकांत मात कोणाच्या तरी उलोवपाचो आवाज येतालो. हांवें जोतें काडलें आनी सवकासायेन पावलां घालीत भितर सल्लों.

"यो, पोरा ऽ, हाकाच लागोन जीव गोळाक लागला दिसता ताचो, सुटल्यार पुरो तरासांतल्यान." म्हाका आयिल्लो पळोवन, म्हजे आवयच्या शेजरा बसलेले एके बायलेन म्हळें. हांवें बापायच्या हातरुणाचेर नदर मारली. पळोवं नज अशे गतीन बापायचें हड्डें वयर सकयल जातालें. तोंडांतल्यान येवपी फर्रऽऽ फर्ररऽऽ आवाज आयकूंक नज सो दिसतालो. दोळे सताड उगडे आसले. बापायची ती गत पळोवन तो जीव सोडपाक म्हजीच वाट पळयतालो अशें खीणभर म्हाकाय दिसलें. धाकटे भयणीन दिल्ले चायेचो घोंट मारून, एका तुवाल्यांत तोंड लिपयत वणटीक तेकून हांवें बापायच्या शेजरा मुसमुसत बसकण मारली.

"पळोवया तो रात काडटा जाल्यार... रातचें कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार रातच्यो आनी धांव धपटी काडपाच्यो नात, फाल्यां फांतोडेर धाडचो सोयऱ्यां धायऱ्यांक रकाद, किदें रे?" म्हाका धीर दित बरें मागपी एका शेजाऱ्यान म्हळें. तुवाल्यांत लिपयल्ली तकली हालयत हांवें 'आं' म्हळळें. रात चडूंक लागली, पूण म्हाका न्हीद आयली ना. हांव थंयच बसून रावलों. रातचीं बारा जालीं, पूण बापायचो घरघर थांबलो ना. घरचीं सगळीं ह्या कोनश्याक, त्या कोनश्याक झेमत पडिल्लीं. रातचीं तीन जालीं, पूण बापायचे अवतिकायेंत कांयच बदल घडलो ना. फांतोड जातकीर मात म्हजे तकलेर पेज पडलो. आतां कितें करप? सिर्विशेक वचप? काय ना? म्हत्त्वाचें काम आसतना शिर्विसेक गेलों ना जाल्यार ई. ई.

म्हाका कसोच दवरचो ना... आनी ई. ई. च्या भयान गेलों शिर्विसेक आनी हांगा म्हजे फाटल्यान बापायचें कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार?

"आई... वचों गे हांव कामार?" हांवें धाडस करून आवयक विचारलें, पूण आईचे जापे बदला निकतोच येवन बसलेलो शेजारी म्हजेर सामको चाळवलो.

"जाग्यार आसा मरे तूं? हांगा बापूय आसा मर्णाधडेर आनी तूं शिर्विसेक वयता?"

"ना... पूण आमगेलो व्हडलो इंजीनेर धड न्ही!"

"सामको राकेस काय किदें रे तो? तेका बरें वायट कांयच लागना?" हांव ओगीच रावलों. दनपार जातां जातां बापायचो घरघर आनीक वाडलो.

"जावं... आयज ब्रेस्तार... बऱ्याऽ दिसाक रावला तो जीव सोडपाक" आमगेले जाणटेले शेजाऱ्नीन म्हळें. तिच्या उतराक आवय घुसमटून रडली. सांज जातां जातां म्हजे तकलेंत भिरांत मोड घालूंक लागली. आयच्या दिसाक बापायचो जीव गेलो ना जाल्यार, आयज कामाक कित्याक आयलों ना तें हांव ई. ई. क कशें समजायतलों? बापूय मेलो जाल्यार तूं ताच्या आदल्या दिसा कामाक कित्याकच आयलो ना? म्हूण विचारून तो म्हाका सोलून काडले बगर रावचो ना... आनी हांव ना म्हूण तेवटेन मानायांनी काम गणयलें जाल्यार... ते तिडकींत म्हाका टर्मिनेशन ऑर्डर काडली जाल्यार... खिणाखिणांत ई. ई. चो ...लचो गडगड म्हज्या दोळयांमुखार रावतालो.

...तचीं आठ जालीं, तरीय बापायन जीव सोडलोच ना. हांव हुसक्यांत पडलों. "...दोना उपरान्त आनी वायट नक्षत्र लागता खंय, ते पयलीं सुटका जाल्यार ... रे देवा...!" कोणे पूण म्हळें. म्हाका दिसलें, दोना पयली न्हीं... बारां पयलीं ...ल्यार पुरो जीव, बापूय ब्रेस्ताराक मेलो म्हूण निदान ई. ई. क तरी सांगूंक मेळटलें.

रातचो आठांक पेलोभर निवळ पिवन हांव बापाय म्हऱ्यांत बसलों. रातच्या जागरणान म्हजे दोळे झेमताले. लकणी येतां येतां म्हाका कोणे पूण हालोवन जागो केलो. कुडींत सात-आठ शेजारी उबे आसले. तांचे दोळे बापायचेर थीर जाल्ले. वाडत गेल्लो बापायचो घरघर सामको घुसमट्टालो. हांव सडसडीत उठून बसलों, बापायचो घरघर अदिकच वाडलो, सगळें आंग खीणभर हालिल्ले भशेन जालें आनी खिणांत सगळो आवाज बंद पडलो.

"कितलीं वरां जाल्यांत पळयात रे सारकीं." कोणे पूण म्हळें. एकल्यान फुडें सरत बापायचे हातरुणाभायर गेल्ले हात लागीं ओडून दवरले आनी दोळयां पातकड्यांवयल्यान अळंग हात ओडलो.

आवयन आनी भयणीन एका वांगडाच किळांच मारून बापायच्या मड्यार

Returne
on

घालून घेतलें. उबो रावन बापायकडेन तटास नदरेन पळयतल्या धाकट्या भावाक यांकडो जावन सकयल कोसळटना कोणें तरी पूण धरलो आनी उदक … …वचीत केलो. म्हाका मात सू ऽ जालें.

… आंवडो गिळत हांवें पळयलें… म्हज्या रगताचो बापूय… म्ह… …डिल्लो… म्हजो साक्षात बापूय म्हाका सासणाखातीर सोडून गे… …ांतल्यान खंयचो उमाळो सुटलो कोण जाणा, बापायचे … ताळो सरांटून वचपी हामेर मारली.

"म्हा… या बाबा ऽ रे ऽऽ."





## वसंत भगवंत सावंत

नवे पिळगेंतलो म्हजो आवडटो कथाकार.

आपल्या कथांनी मन आनी बुद्धी जागृत करून मनीसपणाची वाट दाखोवपी कथाकार.

कथेंतल्या पात्रांच्या सभावांतल्यान मनोविश्लेषण दिसून येता. समाजनिर्मीत दुःखांकडेन पळोवपाची ताची नदर तोखणाय करी सारकी आसा. ताज्या कथांतले प्रसंग मुळावे आसात. ते मुद्दाम घडयल्यात अशें केन्नाच दिसना. तो पात्रां जिवीं करून वाचप्यां मुखार दवरता.

वाचप्यांच्या मनाक सुख-दुःखांची, वायट-बऱ्याची जाणविकाय तो आपल्या कथांतल्यान दिता.

वसंता कडेन स्वताचें भाशा-सामर्थ्य आसा. मनाचो थाव घेवपासारकें व्यक्ती चित्रण, आशय आसा. रसाळ भाशेन कथेंतल्या विविध आंगांचें आनी सवंगांचें दर्शन घडयता.

वसंताच्यो कथा काळजांत कसल्या तरी वेगळयाच तत्त्वगिन्यानाचो झरो व्हांवयता... मन तृप्त करता.

*उल्हास यशवंत नायक*
सिमेपायण, म्हाड्डोळ